# मराठी संतांनी आमकां

# कसलो धीर आनी आधार दिला?

## – एक परखड नियाळ



रवीन्द्र केळेकार






बिम्ब प्रकाशन

कसलो धीर आनी आधार?
रवीन्द्र केळेकार

Koslo Dhir Ani
Adhar?
by Ravindra Kelekar

प्रकाशन क्र.५४



पयली आवृत्ती
२००७



छापणावळ
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम्स
खोर्ली, गोंय

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

दर्शनी चित्र
सुबोध केरकार

प्रकाशक
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
जी. एस्. बी. ३,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी–गोंय

मोल : रु. १००/-



कॉम्रेड नारायणबाब देसाय
हांच्या उगडासाक

पुस्तक तुमच्या हातांत दवरून
फाट थापटून घेवंक आंवडेतालों .
कळाव जालो.

(१)

**बा**टाबाटीच्या काळांत गोंयच्या हिन्दूंक मराठी संतांनीं धीर आनी आधार दिल्लो म्हणटात तो कसलो हाचो सोद घेवपाक बसलां. मराठी भास चालंत काळाच्या धाव्या शतमानांत घडल्या आनी बाराव्या शतमानांत हे भाशेंत बरपावळ सुरू जाल्या म्हणटात! मुकुंदराज हे भाशेंतलो खंय पयलो कवी आनी ११८८त ताणें बरयल्लें 'विवेक सिंधु' हें मराठी भाशेंतलें पयलें पुस्तक. मुकुंदराजान ह्या पुस्तका भायर मराठींत आनीक एक पुस्तक बरयलां. 'पंचामृत' नांवाचें. दोनूय पुस्तकांचो विशय अद्वैत वेदांत. हीं पुस्तकां वाचून यादव कुळयेंतलो जेतपाल राजा खंय जैन धर्म सोडून वेदांती जाल्लो. ताचे देखीन उपरांत कितलेशेच जैन वेदांती जाल्यात.

हालींसाराक कांय जाणकार 'विवेक सिंधु' मराठींतलें पयलें पुस्तक आसूं नज म्हणटात. ताची भास, बाराव्या शतमानांतलीशी दिसना म्हूण एक. आनी दुसरें, उपरांतच्या काळांतले एकनाथ मुक्तेश्वरा सारकेले कवी मुकुंदराजाचें नांव लेगीत घेनात म्हूण. म्हणटकूच, मराठींतलें पयलें पुस्तक खंयचें? तर खंय १२७८त भाइभट्टान बरयल्लें 'लीळाचरित्र', चक्रधर स्वामींच्या उगडासांचें. हाचो अर्थ बाराव्या शतमानात न्हय, तर तेराव्या शतमानाचे अखेरेक मराठींत बरपावळ सुरू जाल्या असो जाता.

'ईश्वरी अवतार' म्हूण चक्रधर स्वामीची नामना आशिल्ली. ताचें निर्वाण जाले उपरांत भाइभट्टाक ताचे विशींचे उगडास एकठांय करपाची प्रेरणा जाली. तो विदर्भ मराठवाड्यांत तसो तेलंगणांत सगळेकडे भोवला. जाचेजाचेकडेन चक्रधराचो संबंध आयला तितल्यांकूय वचून मेळ्ळा. आनी चक्रधराचे सुमार

देड हजारां वयर उगडास ताणें एकठांय केल्यात. अतिताय कसलीच जावंक जायना, लटकें कितेंच भितर येवंक जायना, कितेंय हेवटेचें तेवटेन जावंक जायना, इतली जतनाय घेवन बरयल्ले उगडास हे. ह्या पुस्तकांत कांय थळांचीं वर्णना आयल्यांत, कांय शब्दचित्रां आयल्यांत. तशे कांय संवादूय आयल्यात. मराठींतलो पयलो-वयलो चरित्र ग्रंथ हो, गद्यांत बरयल्लो. भास लोकांचे जिबेर घोळटाली तसली मराठी. ल्हान-ल्हान वाक्यांची ते मुस्तींतली घरगुती.

बाराव्या-तेराव्या शतमानांत विदर्भ मराठवाड्यांत तीन धर्मसंप्रदाय चलताले. एक, चक्रधराचो महानुभाव संप्रदाय, दुसरो पंढरपुरांतल्या विठोबाचो वारकरी संप्रदाय आनी तिसरो कितल्याश्या वर्सां पयलीं सांवन चलत आयिल्लो मच्छिंद्रनाथ गोरखनाथाचो नाथ संप्रदाय. संस्कृत जाणा जाल्ल्या समाजांतल्या वयल्या वर्गांतूच ब्रह्मविद्या बंदिस्त उरूंक जायना, लोकांचे जिबेर घोळटा ते बोली भाशेंतल्यान ती तळागाळांतल्या लोकां मेरेन पावूंक जाय ह्या मताचे हे तिनूय संप्रदाय आशिल्ले. मराठी बरपावळीची बुनयाद ह्या तीन संप्रदायांनी घाल्या. तिना मजगतचो महानुभाव संप्रदाय आघाडेर आशिल्लो. उलोवपांत, बरोवपांत सगळेकडेन मराठीचोच वापर जावंक जाय असो चक्रधराचो आग्रो आशिल्लो. आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार **चक्रधर मराठी मनीस नाशिल्लो. गुजराती भाशीक आशिल्लो.** मराठी सुंदर उलयतालो.

चक्रधराचो जल्म ११९४च्या अदमासाक जाल्लो आसूंक जाय अशें म्हणटात. तो ८० वर्सां जियेला.

गुजरातचे अस्तमे देगेर भरवस नांवाचें एक ल्हानशें राज्य (संस्थान) आशिल्लें. थंय मल्लदेव नांवाचो राजा राज्य करतालो. विशालदेव ताचो प्रधान. विशालदेवाक हरिपालदेव नांवाचो एक पूत आशिल्लो. कमळाइसा नांवाचे चलयेकडेन हरिपालाचें लग्न जाल्लें. बायलेचेर हरिपालदेवाचो खूब म्हळ्यार खुबूच जीव. पूण ताका जुगाराचें व्यसन लागिल्लें. एक खेप जुगडेंत ताणे घरच्यान व्हेल्लें सगळें होगडायलें.

सवंगड्यां कडल्यान उश्णें म्हूण घेतलें तेंय होगडायलें आनी तो रिणांत

पडलो. हें रीण फारीक करपा खातीर घरा येवन ताणें बायले कडेन तिगेल्यो वस्ती मागल्यो. बायल तागेल सभाव बेस बरो जाणा आशिल्ली. हो वस्ती घेवन वतलो आनी त्योय जुगडेंत होगडायतलो, ह्या भयान तिणें वस्ती दिना म्हळ्यो. घरांत लेगीत आपणाक पत उरूंक ना अशें हरीपालदेवाक दिसलें तेन्ना तो घरसंवसाराक विटलो. रामटेकचे यात्रेक वतां अशें सांगून तो एक दीस घर सोडून गेलो तो बद्द विदर्भांतल्या रिध्दीपुर गांवांत पावलो. ह्या गांवांत गोविन्दप्रभू नांवाचो एक अवतारी पुरूस रावतालो. उंच, धिप्पाड, देखणो, वळख नाशिल्ल्यांक लेगीत पळेनाफुडें 'हो कोणूय तरी आगळो वेगळो मनीस आसूंक जाय' अशें दिसचें, असलें प्रभावी व्यक्तिमत्व आशिल्लो हरीपालदेव आपणासरी येता अशें पळोवन 'हो पळे म्हजो चक्रो आयलो' हीं उतरां गोविन्दप्रभूचे जिबे वयल्यान फुटलीं. हरीपाल ताच्या पांयांकडें बसलो. गोविन्दप्रभून ताका दीक्षा दिली आनी चक्रधर म्हूण एक नवें नांव दिलें. दीक्षेक हे लोक शक्ती स्वीकार म्हणटाले.

गोविन्दप्रभूचो अमरावती लागसारल्या कारसूर गांवांत ११८७च्या अदमासाक जल्म जाल्लो. ल्हान आसतनाच आवय-बापूय दोगांय भायर पडलीं म्हूण तागेली मावशी ताका आपणागेर घेवन गेली. रिध्दीपुराक तिगेलें घर. थंय हो भुरगो ल्हानाचो व्हड जालो. भुरगेपणांत लोक ताका अपुर्बायेन 'गुंडो' ह्या नांवान पाचारताले. सिध्दपुरूस म्हूण नामना जोडटकूच ताका गुंडयस्वामी, गुंडय राऊळ, श्री गोविन्दप्रभू ह्या नांवांनी लोक पाचारपाक लागले. उपाध्याया सरीं बसून तो वेद-वेदांग शिकिल्लो.

भाइभट्टाल्या चरित्रांत ताच्यो कांय आख्यायिका आयल्यात. ह्या आख्यायिकां वेल्यान तो कसो कितें आशिल्लो हाचो थोडोभोव अदमास येता. भास-भेस, चालचलणूक, जेवण-खाण, सगळेंच कोल्ली मनशां सारकें. तो म्हारांगेर वचून जेवतालो, रावतालो. तसो ब्राह्मणांगेरूय वचून रावतालो, जेवतालो. वर्णधर्माच्यो सगल्यो वणटी मोडून तो सगळ्यांकडेन सारको चलतालो. आवय-बापूय नाशिल्ल्या अनाथ भुरग्यांक तसो निराधार बायलांक ताचो खूब आधार मेळ्ळो. महाराष्ट्रांतलो हो पयलो सुधारक.

ताचेकडल्यान दीक्षा घेतले उपरांत चक्रधर सालबर्डी दोंगरार कांय वर्सां

वचून रावला. थंयच्या एकांतांत ताणें वेद-वेदांगाचो खोलायेन अभ्यास केला. साधना केल्या आनी थंयच्यान जो देंवला तो विदर्भ मराठवाड्यांतल्या वाटारात खांची कोनशांनीं भोंवला. तेलंगणांतूय गेला. थंयच्या श्रीशैल पर्वतार नाथपंथी योग्यांच्याय सांगातांत रावला. ते उपरांत तो उपदेस करपाक लागला.

चक्रधराच्या आयुष्यांतलीं उपरांतचीं ६० वर्सां उपदेस दिवपांत खर्चल्यांत. महाराष्ट्राचे आर्विल्ले संस्कृतायेची बुन्याद ताणेंच घाल्या.

महाराष्ट्रांत त्या वेळार यादवांचो शेक चलतालो. यादव महाराष्ट्रीय आशिल्ले. म्हळ्यार महाराष्ट्रांत त्या वेळार एके तरेचें स्वराज्य चलतालें.

यादव धर्मशील आशिल्ले. वेदीक परंपरेत वाडिल्ले. लोकां मजगती जैन, लिंगायत, जोगी, नाथ सारकेल्या सांप्रदायाचे लोक आशिल्ले तरूय वेदीक परंपरेंतले लोक सगळ्यांत चड आशिल्ले. आनी वेदीक परंपरा चातुर्वर्ण्याचे बुन्यादीर उबी आशिल्ली. ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैष्य, क्षुद्र हे चार वर्ण, दर एका वर्णांत शेकड्यांनी जाती. हे जातींत दुप्पेट, तिप्पेट पोटजाती. आनी तांचे मजगतीं हो सकयल्या पांवड्या वयलो, तो हाचेय परस सकयल्या पांवड्या वयलो हे तरेचो उतरणी वेगळेचार चलतालो. हजार कुडक्यांनी समाज वांटून गेल्लो. हाचे हातचें खावप ना, ताचे हातचें उदक पियेवप ना, हाची चली हाडप ना, ताका चली दिवप ना अशें करून हे सगळे कुडके एकमेकां पसून पयस गेल्ले. कोणाल्याच काळजाक कोणाचोच पीळ पड नाशिल्लो. सगळ्यांक एकठांय गुथपी सुतूच नाशिल्लें.

ह्या विस्कळीत समाजाक असो विस्कळीत दवरूपाक चडानचड हातभार लागिल्लो तो तांगेल्या हजार उपास्य दैवतांचो. एक एक जातीचें एक एक दैवत, एक एक पोटजातीचें एक एक दैवत, उंच-उणाक हे तरेचो दैवतां मदींय वेगळेचार, हाका 'एक समाज' कसो म्हणूंक येतलो. ताका एक समाज करपाचो वावर थोडो भोव शंकराचार्यान केल्लो. ताणें एक ब्रह्मच खरें, बाकीचें सगळें लटकें म्हळ्ळें खरें. पुण ह्या हजार देवांक लटके म्हणपाचें काळीज मात ताका जावंक नाशिल्लें. ताणें देवादेवा मजगतले वेगळेचार उणे करपा खातीर सगळ्या देवांक शंकर-विष्णू-गणेश, सूर्य आनी देवी हांचे अवतार मानले. पुजा करता आसतना तुमच्या इश्टदेवाक मदीं दवरात आनी उरिल्ल्या चार देवांक ताचे भोंवतणी दवरात, ते

बगर पुजा पूर्ण जावची ना. इतलेंच सागलें आनी 'पचायतन पुजा' सुरू केली.

पुणून पंचायतन पुजेन खंयच्याय देवाचें महत्व मात लेगीत उणें जावंक पावलें ना. उरफाटें सगळे सारखेच म्हत्वाचे जाल्ले. सगळ्यांक मान्यताय मेळिल्ली.

यादवांलो प्रधानमंत्री हेमाद्री नांवाचो एक विद्वान पंडीत आशिल्लो. ताणें **चतुर्वर्ग चिंतामणी** नांवाचो एक ग्रंथ बरयल्लो. ताणें वेगवेगळ्या देवांची उपासना करचे खातीर सुमार दोन हजार व्रतां परबांचीं वर्णना केल्यांत. हीं सगळीं व्रतां सगळ्यांनीं करूंक जाय असो नेम सांगला. खंयचेंय व्रत भटां-ब्राह्मणां बगर जायना आनी भटां ब्राह्मणांक पंचपक्वान्नाचें जेवण आनी दक्षिणा दिले बगर खंयचेंच व्रत फुडें चलना, हे भशेन भटां ब्राह्मणांनी पुराय समाजाक आपणाल्या चपक्यांत दवरिल्लो.

चक्रधर आपणालो धर्मविचार पातळावपाक भायर सरला तेन्ना ताका भटां-ब्राह्मणांनी उबें केल्ल्या कांट्याखुंट्यांच्या ह्या रानांतल्यान वाट काडची पडल्या. आपणाल्या धर्मविचारांची मोख वेदीक धर्मांत सगल्यां मुखार दवरल्या. तीच, मोक्षाची. हें ताणें सगल्यांत पयलीं स्पश्ट केलें. ही मोख सादपाक एका परमेश्वराचीच उपासना करपाची. हजार देवतांची करपाची गरज ना. कित्याक, हे देव केदेय व्हड आसले तरूय परमेश्वरा परस व्हड न्हय. ह्या दैवतांचे उपासनेन पुण्य मेळटा खरें. पुण एकदीस तें क्षीण जाता, सोंपता. परमेश्वराचे उपासनेन मेळटा तें केन्ना सोंपना, तें क्षीण जायना, अशें सांगलें. ते भायर मोक्ष जोडपा खातीर व्रतांची, दानाची, तिर्थांची कसलीच गरज ना अशेंय सांगलें. ह्या हजार दैवतांनीच समाजांत हजार जाती पोटजाती घडयल्यात. तांकांच लागून तीर्थक्षेत्र, व्रतदानांचें जाळ उबें जालां. इतलेंच न्हय तर जातीच्या मळार सगल्या जातींच्या बायलांक घोवाची सेवा करप होच एक धर्म सांगून तांकां सदांकाळ दादल्यांल्यो गुलाम करून दवरल्यात ह्या निर्णयार तो पाविल्लो.

जाती ना करपा खातीर ताणें आपणाल्या शिश्यांक 'चातुर्वण्यम् चरेद् भैक्ष्यम्' हो नेम घालून दिल्लो. चारूय वर्णांच्या सगले जातींच्या लोकांगेर वचून भिक्षा घेवंची अशें सांगलें. दादल्यांक आसात तितलेय अधिकार ताणें बायलांक दिल्ले. तांकां संन्यास लेगीत घेवपाचो अधिकार दिल्लो. इतलेंच न्हय, तर समाजांतलें

आफुड-भश्ट ना करपा खातीर, *'महारवाडा हौनि धर्म काढावा'* म्हारवाड्यार वचून लेगीत गिन्यान जोडचें अशें सांगलें. तांगेर वचून अन्न-उदक घेयात अशेंय सांगलें. खासा आपुणूय तशें करपाक लागलो. हें सगलें वेदीक परंपरे परस सामकेंच वेगळें आशिल्लें.

नितीचे नदरेन लोकांची उदरगत जांवची म्हण ताणें एकेवटेन अहिंसेचो उपदेस केला तसो मांस खावंक जायना, सोरो पियेवंक जायना अशेंय सांगलां. *''चातुर्वण्यम् चरेद् भैक्ष्यम्''* ह्या नेमाक जोडून *'मद्यमांसवर्जितम्'* म्हूण सांगलां. महाराष्ट्रांत जे मांस, सोरो उश्टाय नाशिल्ले हजारांनीं अस्पृश्य पळोवंक मेळटात ते चक्रधर स्वामीच्या वावराक लागुनूच.

ताका सरसकट लोकां मजगतचे कितलेशेच शिश्य मेळ्ळे तशे वेद-विद्या-पारंगत लोकां मजगतचेय मेळ्ळयात. क्षुद्रांतल्या क्षुद्र लोकांनी लेगीत तांच्या पंथांत आपलो आस्पाव करून घेतला. बायलांक तर तागेल्या पंथांत सदां भोवमानाची सुवात मेळ्ळ्या. गीतेचोच आधार घेवन ताणें आपणालो धर्म चलयला. मागीर समाजांत कोण उरले? ब्राह्मण आनी क्षत्रिय ह्या दोन वर्णांतले दादले.

चक्रधराचो हो वावर भटां-ब्राह्मणांक उस्तऱ्यां गेलो जाल्यार अजाप कसलें? धर्म ना करपाक हो भायर सरला अशें ते दांत-वोंठ चाबून म्हणपाक लागले. धोंगां पोंगाचे भाशेंत सांगचें जाल्यार 'हो आमच्या पोटार आड आयला' अशें तांका दिसपाक लागलें. हाका सोसून कसो घेतले? हाचो कांटो काडूंक जाय ह्या निर्णयार ते पावले.

यादवांच्या दरबारांत महदाश्रम आनी ब्रह्मसान नांवाचे दोग भट आशिल्ले. ते चक्रधराचो दुस्वास करपाक लागले. एक खेप ताणीं ताका खावपाक विख घाल्ली सुपारी दिली. चक्रधरान ती खाली. ताका कांय जालें ना. दुसरे खेपे खावपाक एक विडो दिलो. तोवूय ताणें खालो. खातकूच हातूंत विख घाल्लें आसूंक जाय असो ताका दुबाव आयलो म्हूण ताणें ताळ्यांत बोटां घालून पोटांत गेल्लें सगळें ओकून उडयलें. दोन वर्सां ब्राह्मण ओग्गी रावले. उपरांत ताणी एक कूट रचलो. एका देवळांत यंत्रासन दवरून चक्रधराक आमंत्रण धाडलें. भौमान हो अशें धरून चक्रधर गेलो. पूण देवळांत पावतकच आपणांक मारपाचो हो कूट न्हय मूं, असो ताका

दुबाव आयलो. ताका बसपाक जें आसन सजोवन दवरिल्लें तें ताणें वयर काडून पळेलें. पोंदा एक फोण आशिल्लो. आनी ह्या फोणांत कितलींशींच घातमारी तोंकयाळीं शस्त्रां उबीं दवरिल्लीं आशिल्लीं.

ताका मारपाचे तिनूय यत्न फुकट गेल्ले पळोवन महदाश्रम आनी ब्रह्मसान दोगांनींय हिमाद्रीचो आधार घेतलो. कांय मारेकारांक चक्रधराल्या आश्रमांत धाडले. ताणीं आश्रम लुटलो. चक्रधराक धरून ताचें एक आंग शस्त्रान कापलें. निमाणें रामदेवरायान तुका आपयला अशें सांगून चक्रधराक एका माचुलांत बसयलो आनी माचूल राजम्हालांत व्हरपा बदला गांवां भायर व्हरून ताचो कांटो काडलो.

महाराष्ट्राची संत परंपरा हे भाशेन एका सुदारक संताचे हत्येन सुरू जाल्या. पयलो मराठी संत ज्ञानेश्वर अशें विद्वान मानतात तें खरें न्हय. ज्ञानेश्वर पयलो न्हय, चक्रधर पयलो आशिल्लो.

## (२)

**च**क्रधर स्वामीची हत्या जाल्या ताच्या दुसऱ्याच वर्सा ज्ञानदेवाचो जल्म जाला.

पैठण शारा लागसारच्या आपेगांवांत गोविन्दराव नांवाचो एक ब्राह्मण कुळकर्णीपण करतालो. ताका विठ्ठल नांवाचो पूत आशिल्लो. घराण्यांतल्या कृष्णभक्तिच्या संस्कारांत ताची वाड जाल्ली. भुरगेपणा सावनूच तो भजन-पुजनांत रूच घेवपाक लागिल्लो. शास्त्रांचें शिकप पुरें करून गायत्रीपुरश्चरण जातकूच तो तीर्थयात्रेक भायर सरलो. भोंवत भोंवत आळंदीक पावलो. थंय तो सिध्देश्वर देवळाचे अगरसाळेत राविल्लो. देवळा सामकार एक पिंपळा पेड आशिल्लें. ह्या पेडार बसून तो ध्यान धारणा करपाक लागलो. आळंदींतल्या सिध्दोपंत कुळकर्ण्याचे नदरेंत तो भरलो. ‘कोण काय हो’, असो सिध्दोपंताक प्रस्न पडलो.वासपूस करून ताच्या कुळाशिळाची खबर ताणें काडली.ताची रुक्मिणी नांवाची धूव लग्नाची जाल्ली. ती दिवन ताका जावंय करून घेवंचो अशें ताच्या मनांत आयलें. तेच रातचें ताका एक सपन पडलें. सपनांत ताका खासा पांडुरंगान येवन ‘तुज्या मनांत

आयलां तें खरें कर... इतलो बरो भुरगो तुका खंयच मेळपाचो ना' अशें सांगलें. सिध्दोपंतान विठ्ठला कडेन उतर घालें. 'च्ये च्ये, येदे बेगीन लग्न?... म्हाका करपाचें ना...' अशी जाप दिवन विठ्ठलान ताका फाफुडलो पुणून तेच रातचो पांडुरंग विठ्ठलाच्याय सपनांत आयलो आनी 'सिध्दोपंताक ना म्हणूं नाका... इतली बरी चली तुका खंयच मेळपाची ना.' अशें सांगलें. विठ्ठल लग्नाक तयार जालो. खुशालभरीत जावन सिध्दोपंतान बरो म्हुर्त पळेलो आनी दोगांयचें लग्न केलें.

लग्ना उपरांत विठ्ठलान पंढरपुराक वचून जोडप्यान पांडुरंगाची भेट घेतली. थोडीशी यात्रा केली. आनी रुक्मिणीक घेवन तो घरा आयलो.

कांय काळान विठ्ठलाचीं आवय-बापूय संवसाराक अंतरलीं तेन्ना विठ्ठल जिविताक उबगलो. मांवाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ताणें विठ्ठल रुक्मिणी दोगांकूय आळंदीक आपोवन व्हेलीं. थंयच तीं रावपाक लागलीं.

लग्न जावन कांय वर्सां जालीं तरूय भुरगें जायना हें पळोवन विठ्ठलाचें घर-संवसारावेलें मन उखल्लें. ताका संन्यास घेवचो अशें दिसपाक लागलें. पुणून संन्यास असो थोडोच घेवंक मेळटा! घरकान्नीन पयलीं मान्यताय दिवंक जाय. रुक्मिणी मान्यताय कित्याक दितली? एक दीस विठ्ठलान आपूण गंगेर वतां अशें तिका म्हळें. हो न्हावपाक न्हंये तडीर वचूंक सोदता जातलो अशें तिका दिसलें आनी तिणें वच म्हळें.ते मुस्तींत खंयचेय न्हंयेक गंगा म्हणपाची चाल आशिल्ली. विठ्ठलान ही संन्यास घेवपाक तिची मान्यताय कशी लेखली आनी घरच्यान जो भायर सरलो तो बद्द काशीथळांत वचून श्रीपादस्वामीच्या पांयांकडेन बसलो. श्रीपादस्वामीन ताका संन्यास दिलो आनी ताका चैतन्य म्हूण एक नवें नांव दिलें.

घोव घरदार सोडून गेल्लो पळोवन रुक्मिणीक खुब्ब खुब्ब वायट दिसलें. ज्या पेडार घोव ध्यान करतालो त्या पिंपळाची तिणें पुजा सुरू केली. एक दीस तीर्थयात्रेक भायर सरिल्लो श्रीपादस्वामी आळंदीक पावलो आनी विसंव घेवपाक त्याच पिंपळा पेडार येवन बसलो. सदचे वरी रुक्मिणी पिंपळाची पुजा करपाक थंय आयिल्ली. पिंपळा मुळांत एक तेज:पूंज संन्यासी बशिल्लो तिणें पळेलो आनी तिणें कमर बागोवन ताका नमस्कार केलो. तिगेलो गळ्यांतलो मणी,

कपळावेलो कुकमा तिळो आनी तरणी पिराय पळोवन श्रीपादस्वामीन तिका ‘पुत्रवती भव’ म्हूण आशिर्वाद दिलो. आशिर्वाद आयकून ती हांसली. ‘कित्याक हांसली?’ श्रीपादस्वामीन तिका विचारलें. तेन्ना तिणें घोवाची सगळी खबर ताका सांगली. आपणाल्या आश्रमांत येवन रावला तो चैतन्यूच हिगेलो घोव आसूंक जाय अशें स्वामीक दिसलें. यात्रा करून तो आश्रमांत परतलो तेन्ना चैतन्याक आपोवन ताणें विचारलें, ‘तुवें संन्यास घेवचे पयलीं घरकान्नीची मान्यताय घेतिल्ली? ना. ती घेनासतना हांगा येवन तुवें संन्यास घेतला. तुवें ही व्हडली चूक केल्या... आसा तसो घरा वच आनी परत घरसंवसार घेवन बस.’

आपणें घरकान्नीची स्पश्ट मान्यताय घेवंक नाशिल्ली हें विठ्ठलाच्या मनाक खातालें. आतां संन्यास सोडून घर संवसार घेवन बसपाची गुरून आज्ञाय केल्ली. ताणें संन्याशाचीं वस्त्रां देवयलीं आनी घरसंवसार चलोवपाक तो परतो आळंदीक आयलो.

आळंदीच्या लोकांक हाणें संन्यास घेतला म्हणपाची खबर कळिल्ली. ताका परतो आयिल्लो पळोवन ते म्हणपाक लागले, “शी, संन्यास घेतिल्लो केन्ना कोण परतो घरसंवसार घेवन बसला? केन्ना आयकलेंच ना! *आरुढपतित* अवस्था ही...” अशें म्हणून ते विठ्ठलाची अखटाय करपाक लागले. ताचेर नदर पडल्यार पातक लागतलें अशें मानपाक लागले. आळंदींतल्या ब्राह्मणांनीं ताचेर कडक बहिष्कार घालो. तांचे देखीन हेरूय सगळ्यांनीं बहिष्कार घालो. गांवांत रावप विठ्ठलाक कठीण जावन पडलें. तो गांवा भायर इन्द्रायणीचे तडीर एक खोंप बांदून रावपाक लागलो. बारा वर्सां तो हे खोपींत रावला. थंयच ताका निवृत्ती, ज्ञानदेव, सोपान हे तीग पूत आनी मुक्ता ही धूव, अशीं चार भुरगीं जालीं. चवगूय भुरग्यांक ताणें वेदवेदांगां शिकयलीं.

तांची मूज करूंक जाय अशें ताका दिसपाक लागलें तेन्ना आळंदींतल्या ब्राह्मणांक ताणें म्हळें, ‘म्हाका लागून भुरगीं जाती भायरीं जाल्यांत. म्हाका तुमी जाय तें प्रायश्चित्त घेवंक सांगात. हांव तें घेतां. पुणून भुरग्यांक जातींत घेयात...’

तांचे कडेन एकूच जाप आशिल्ली, ‘तांकां जातींत घेवप आमच्या हातांत ना. आनी तुका देहांत सोडून दुसरें प्रायश्चित्त ना.’

भुरगीं न्हिदिल्लीं आसतना एक दीस विठ्ठल घरकान्नी वांगडा प्रयागाक गेलो आनी न्हंयेंत उडी घेवन दोगांयनी जीव दिलो.

भावंडांक सांबाळपाची पुराय दायकी निवृत्तीनाथाक आपणा आंगार घेवंची पडली. ताणें ती घेतली आनी ब्राह्मणांक विचारलें, 'आमचे मुजीचें कितें करपाचें?'

'तुमकां मूज करून घेवपाचो अधिकारूच ना.'

जाप आयकून चवगूय भांवडां निर्शेलीं. लोक तांकां अस्पृश्यां वरी लेखपाक लागले. तांची सावळी लेगीत आपणाचेर पडची न्हय म्हूण जतनाय घेवपाक लागले. वाटे वेल्यान येतना वेतना तीं खंयूय दिश्टी पडलीं जाल्यार, 'हीं तीं पळे, संन्याश्याचीं पोरां' अशें म्हूण तांची अखटाय करपाक लागले. ज्ञानदेवाच्यान हे अपमान सोंसूं नज जाले. एक दीस निर्शेवन तो खोंपींत भितर सरलो, भितरल्यान आडामो घालो आनी थंयच बसून रावलो. बौद्ध बरपावळींत हिका विभव-तृष्णेची वज म्हळ्या. जिवीत सोंपोवपाची इत्सा ही. निर्शेणेंतल्यान ती येता. ज्ञानदेव निर्शेल्लो पळोवन मुक्ताबायचें काळीज कळवळून आयलें. तिणें खोंपी भायर बसून कांय अभंग रचले आनी ते खोंपी दारांत बसून तिणें म्हळें, *'संत जेणे व्हावें। जग बोलणे सोसावें। ताटी उघडा ज्ञानेश्वरा '* – जाका संत जावपाचें आसा ताका असले सगळे अवमान सोंसचेंच पडटात. दार उकतें कर आतां ज्ञानेश्वरा.

*ताटीचे अभंग* नांवान तिगेले हे अभंग उजवाडा आयल्यात. मराठी बरपावळींतलें बऱ्यांतलें बरें, तशें सुंदरांतलें सुंदर कवित्व हें.

मुक्ता तिगूय भावांची धाकली भयण. तिगांयचे अपुर्बायेची. ज्ञानदेवाची सगळ्यांत चड. तिगेली विनवणी आयकून ज्ञानदेव विरगळ्ळो. आडामो काडून तो भायर आयलो. तेन्ना निवृत्तीनाथान ताका म्हळें, 'आमकां मुजीची गरज ना. आमी जातीं पेल्यान गेल्यात.'

पुणून ज्ञानदेवाक हें पटूंक नाका? ताणें म्हळें, 'च्यॅ, हे भाशेन चिंतूंक जायना. *आमकां वेदीक धर्मांतूच रावचें आसा.*'

निमाणें, मुजी खातीर आनीक एक यत्न करून पळोंवचो अशें निवृत्ती ज्ञानदेवान थारायलें. आळंदींतल्या ब्राह्मणांची चीट घेवन ते पैठणाक गेले. पैठण हें ते मुस्तींतलें धर्माच्या मळावेलें 'सुप्रिम कोर्ट'. पैठणाच्या ह्या कोर्टान निकाल दिलो, 'तुमी

संन्याश्याचीं भुरगीं. कुळभ्रष्ट. धर्मशास्त्रांत तुमचे खातीर कसलेंच प्रायश्चित्त सांगूंक ना. मुजीचो तुमकां अधिकार ना.'

'म्हणटकूच आमी कितें करपाचें?'

'एक उपाय शास्त्रान सांगला. *अनन्यभक्तीने अनुसरावें । तीव्र अनुतापें करावें भजन। गो-खर-श्वान वंदूनियां.* गाय, गाडव आनी सुणें हांकां वंदून शूद्रांच्या धर्माक पाळो दिवन रावपाचें.'

ब्रह्मसभेचो निकाल आयकून निवृत्ती, ज्ञानदेव भायर आयले तेन्ना पैठणचे ब्राह्मण तांचीं फकांणां मारपाक लागले. एकल्यान ज्ञानदेवाक विचारलें, 'तुजें नांव कितें रे?'

'ज्ञानदेव', ज्ञानदेवान जाप दिली.

'नांवांत कितें आसा? हो तो फाटीर उदक घेवन येता त्या रेड्याक लेगीत ताचो धनी ज्ञान्या म्हुण्णूच उलो मारता.' दुसऱ्या एकल्यान म्हळें.

'म्हज्यांत आसा तोच आत्मो त्या रेड्याचे कुडींत आसा. हांव आनी हो रेडो वेगळो न्हय.' ज्ञानदेवान म्हळें.

इतल्यांत रेड्याचेर ताच्या धनयान चाबकां मारलीं. चाबकांचे वळ ज्ञानदेवाच्या आंगार उठले. हें पळोवन ब्राह्मण अजापांत पडले. तरूय एका ब्राह्मणान म्हळें, 'ह्या रेड्यांत आनी तुज्यांत एकूच आत्मो आसा जाल्यार तूं म्हण्टा तश्यो वेदांतल्यो ऋचा ताचे कडल्यान म्हणून घे पळोवया.' ज्ञानदेवान रेड्याक म्हळें, 'म्हणून दाखय रे बाबा.' आनी रेडो ऋग्वेदांतल्यो ऋचा एका फाटल्यान एक म्हणपाक लागलो.

ज्ञानदेवाच्या चरित्रांत भाविकांनी असले 'चमत्कार' घाल्यात आनी म्हळां, 'हे तिगूय भाव देव' म्हणपाचें ब्राह्मणांक पटलें आनी तांणी तिगांय भावां मुखार लोटांगण घालें.

घालूं. पुणून तांकां मुजीचो अधिकार दिला व्हय तर तांणी? ना. तो दिलोना तो अखेर मेरेन दिलोच ना. दुसरो कोणूय जाल्लो जाल्यार ह्या अन्याया आड बंड करून उठ्ठलो आशिल्लो. ब्राह्मणाचो जुलूम ना करपाक तो पेंगट बांदून मरऽसर झुजत रावतलो आशिल्लो. ज्ञानदेवाक असलें कितेंच येवजलें ना. उरफाटी ताणें

ह्या जुलमा मुखार तकली बागयली आनी ब्राह्मणांनीं ताचेर थापिल्लें शूद्रपण ताणें मोन्यांनी मानून घेतलें. कित्या खातीर? *शास्त्रां आड वचपाचें काळीज ताका नाशिल्लें म्हूण?* कांय जाणकार अशें मानतात.

म्हालगड्यांनीं जे नेम घालून दिल्यात तांकां सगळ्यांनीं पाळो दिवंक जाय, अशें 'शास्त्रांचे बंदे' सदां मानीत आयल्यात. समाज सारको चलपा खातीर समाजांत बेशिस्त चलूंक दिवंक जायना. कोणें धील रावंक जायना, अशें ते म्हणीत आयल्यात. चातुर्वर्ण्य वेवस्था म्हालगड्यांनीं घडयल्या. आनी आमचे म्हालगडे तर त्रिकालदर्शी आशिल्ले. फाटल्या, फुडल्या, आयच्या, तिनूय काळांचेर नदर दवरून जगाच्या बऱ्या भल्याचें चिंतीत आयिल्ले. ताणीं घडयल्ले नेम सगळ्यांनीं कडकसाणेन चलोवंक जाय. सगळ्यांत चड ब्राह्मणांनी ते चलोवन दाखोवंक जाय. कित्याक, ब्राह्मणूच समाजांत वयल्या पांवड्यावेले. तांचेच देखीन बाकिचे चलत आयल्यात. तेच धील उरले जाल्यार बाकीचेय धील जातले. तरातरांच्यो मेकळीको घेत रावतले. आनी अखेरेक समाज भंगतलो, अशें मानपी लोक हे.

ज्ञानदेवूय हेच तरेचो 'सनातनी' आशिल्लो. मुक्ताबायचे विनवणेन तो खोंपींतल्यान भायर आयिल्लो आनी 'आमी जातीं पेल्यान गेल्यात' अशें निवृत्तीनाथान ताका म्हळ्ळें त्या वेळार 'च्यॅ, आमकां वेदीक धर्मांतूच रावपाचें आसा.' अशी ताणें जाप दिल्ली. तागेले हे जापेंत ताच्या सभावाचें सनातनी आंग दिश्टी पडटा.

पैठणच्यान येतना वाटेर नेवासा म्हूण एक गांव लागता. थंय ज्ञानदेवाक उजवाडाचें एक किर्ण दिश्टी पडलें. आपणांक जें भोगलां तें आनीक कोणांक भोगचें पडचें न्हय म्हूण धर्म, कर्म, भक्ती, मोक्ष, यज्ञ ह्या तत्वांचो खरो अर्थ सगळ्यांक समजावन सांगचो अशें ताका दिसलें. आनी ताणें गीतेची एक अर्थावणी बरोवन काडची असो बेत केलो. नेवाश्याकूच बसकण मारून बसलो आनी 'दुरिताचे तिमिर जावो' हे मागणेन ताणें ती बरोवपाक सुरवात केली.

अर्थावणेक गीताच कित्याक वेंचून काडली? एक, तिचेर सनातन्यांचो चपको नाशिल्लो म्हूण आनी दुसरें, '**स्त्रियो वैश्यास्तथा शूद्रास्तेपि यान्ति पराम् गतिम्**' बायलांक, वैश्यांक, शुद्रांक, अतिशुद्रांक लेगीत ईश्वर जोडून दिवपाची

वाट दाखोवन दिवपा खातीर तिचो अवतार जाला म्हूण. तो म्हणटा, 'वेद जरूय गिरेस्त आसले तरूय तांचे सारके किरपीण काटूक हिमटे चामटे दुसरे ग्रंथ नात. वयल्या तीन वर्णांतल्या लोकां खातिरूच ते 'श्रुतिगोचर' उरल्यात. हेरांक तांणी आपल्या पसून पयस दवरल्यात. हें उणें पयस करपा खातीर खासा वेदांनीच गीतेचें रूप घेतलां.' *'वेद संपन्न होय ठायीं। परि कृपण ऐसा आन नाहीं। जो कानीं लागला तिन्हीं वर्णांच्याचि ।। एका भयव्यथा ठेलिया। स्त्रीशूद्रादिकां प्राणिया। अनवसर मांडूनियां राहिला हे ।। मज पातां तें उणे। फेडावया गीतापणे। वेद वेठला भलतेणे। सेव्य हो आवया ।।'* (ज्ञानेश्वरी, १८.१४५६-५८)

फकत पंदरा वर्सांची पिराय आशिल्ली ज्ञानदेवाची ह्या वेळार. हे कंवळे पिरायेर इतलें उपाट ज्ञान ताणें खंय जोडलें, कशें मेळयलें, समजना. गीतेचीं गूढ तत्वां समजावन सांगपाक ताणें ज्यो ओपारी वापरल्यात, जे दृष्टांत सांगल्यात ते वेव्हारांत कंरजेल्ल्या मनशाकूच सुचपाचे. पंदरा वर्सांचे पिरायेच्या भुरग्याक येदो गिरेस्त संवसारीक अणभव केन्ना आनी कसो मेळ्ळो, कळना. अणभवान, ज्ञानान, प्रतिभेन इतलो उपाट भरिल्लो आध्यात्मीक ग्रंथ संवसारांतले दुसरे खंयचेच गिरेस्त भाशेंत पळोवंक मेळना अशें भावीक म्हणटात. एक ऊंच पावंड्याचो आध्यात्मीक ग्रंथ हो. तोवूय तळागाळांतल्या लोकांचे बोली भाशेंत *बोला अरुपाचें रूप दावीन* असो नित्शय करून बरयल्लो. ज्ञानदेवाक संस्कृत बेस बरी येताली. संस्कृत भाशेंत ताणें हो बरयल्लो जाल्यार सनातनी लोक घडये विरोध करीत आशिल्ले. पुणून ताणें तो लोकांचे भाशेंत मराठींत बरयलो. तिचेर सनातन्यांचो चपको नाशिल्लो.

**भावर्थ दीपिका** वा **ज्ञानेश्वरी** ह्या नांवान संवसार आयज ह्या ग्रंथाक वळखता. सुमार णव हजार ओवयांचो ग्रंथ हो.

निवृत्तीनाथ ज्ञानदेवाचो व्हडलो भाव. तसो गुरूय बी, गहिनीनाथ कडल्यान जोडिल्ली योगसिद्धी ज्ञानदेवाच्या माथ्यार हात दवरून निवृत्तीन ताकाय दिल्ली. गीतेची अर्थावणी चलताली आनी नेवाश्याचो सच्चिदानंदबाबा ती बरोवन घेतालो त्या वेळार निवृत्तीय ती म्हऱ्यांत बसून आयकतालो. अर्थावणी पुरी जातकूच निवृत्तीन ज्ञानदेवाक म्हळें, 'ही तुवें केल्या ती गीतेची अर्थावणी. श्रीकृष्णाचीं मत्तां तुवें विकसावन सांगल्यांत... तुज्या निजाच्या अणभवाचें अर्क हातूंत ना. तें

आतां सांग.' गुरूची आज्ञा जायना फुडें 'अमृतानुभव' नांवाचो दुसरो एक ग्रंथ ज्ञानदेवान बरयलो. उपनिषदांच्या तोलामोलाचो. सुमार आठशें ओंवयांचो.

मराठी भाशीक लोकांक अभिमान दिसूंक फावता ह्या दोनूय ग्रंथांचो, मन उन्नत करपी, काळीज निर्मळ करपी ग्रंथ हे. पुणून ह्या दोन ग्रंथां मजगतच्या 'ज्ञानेश्वरीं'त आमी ज्ञानदेवाची सामाजीक नदर सोदपाक बसले जाल्यार–

मन खंती जाले बगर रावचें ना. तें निर्शेतलें. साप विट्टलें. 'शी! ज्ञानदेव रुढींक इतलो घट्ट दसून राविल्लो आसचो?' अशें दिसतलें आनी 'कोणाक जाय हाचो अध्यात्म?' हे तरेचीं उतरां जिबे वेल्यान फुट्टलीं. हो ग्रंथ ताणें गीतेचीं तत्त्वां समजावन सांगपाक बरयल्लो, काय चक्रधर स्वामीच्या महानुभाव पंथाक लागून समाजांत सुधारणेचें जें ल्हार उसळ्ळेलें तें आडावन धरपा खातीर बरयल्लो, असो प्रस्न पड्टलो. एक खरें, ज्ञानेश्वरींत चक्रधर स्वामींचें नांव खंयच येना. तागेल्या महानुभाव पंथाचो उल्लेखूय खंयच मेळना. पुणून ज्ञानदेवाक महानुभाव पंथाचो प्रभाव जाणवूंक नाशिल्लो अशें कशें म्हणूं येतलें? विदर्भ मराठवाड्यांत महानुभाव पंथ खूब पातळ्ळेलो. ज्या गांवांत बसून ताणें गीतेची अर्थावणी बरयल्ली तो नेवासा गांव तर तांचो एक अड्डो आशिल्लो. कितलेशे महानुभावी विद्वान ह्या गांवांत आशिल्ले. गोदावरी न्हंयेच्या दोनूय तडींचेर तांगेलीं कितलींशीं तीर्थक्षेत्रां उबीं जाल्लीं. ज्ञानदेव कुड्डो नाशिल्लो. ताणें हो प्रभाव पळेल्लो. अणभविल्लोय आसूंक जाय. वेदीक धर्माचेर कोंसळ्ळेलें हें एक व्हड संकश्ट अशें ताका दिसलां जावंक जाय आनी **वेदीक धर्म परतो जिवो करप ही आपणाली व्हडांतली व्हड लागणूक अशें ताणें मानलें जावंक जाय.**

अध्यात्मीक उदरगती खातीर वेदांक प्रमाण मानपाची गरज ना, शास्त्रांक मानपाची गरज ना, ईश्वर जोडपाक फकत एका परमेश्वराची उपासना करतकूच जाली, हजार दैवतांक मानपाची गरज ना, चातुर्वर्ण्य वेवस्ता देवान निर्मिल्या अशें मानपाची गरज ना, अशें महानुभावी म्हणटाले. चक्रधर स्वामीन तांकां हें सांगिल्लें. ज्ञानदेव तांगेले हे विचार एका फाटल्यान एक खोडून काडटा. तो म्हणटा, वेदनिष्ठेन केन्नाच कोणाचें वांकडें जावंक ना, उरफाटी, अनिश्टा पसून तिणें मनशाक पयस दवरून ताका सदां बऱ्याची पोसवण दिल्या, वेदां सारकी आवय दुसरी ना, *ऐसी*

*वेदनिष्ठा जालिया जरि सुभटा। तरि कें आहे अनिष्ठा भेटणे गा। पैं अहिता पासोंनि काढिती । हित देऊनि वाढविती। नाही श्रुतिपरोति पाडली जगीं।* (ज्ञान. १६.४५८४५९) शास्त्रां संबंदान म्हणटा, शास्त्रां मानुंकूच जाय मनशान. राज्य तणा सारकें मोल नाशिल्लें अशें शास्त्रांनी सांगलें जाल्यार राज्य मनशान सोडुनूच दिवंक जाय. विक्ख घे म्हूण सांगलें जाल्यार अनमन नासतना विक्ख घेवंक जाय. *शास्त्र म्हणैल सांडावें। तें राज्य ही तृण मानावें। जेंघेववि तें मानावें विष ही विरू.* (ज्ञा. १६.४५७) ईश्वर जोडपाक वेदांचो अभ्यास एका सारको चलत रावंक जाय. *तैसा प्रतिपाद्य जो ईश्वरू. श्रुतींचा निरंतरू अभ्यास करणे ।।* (ज्ञा१६.१२०) चातुर्वर्ण्या संबंदान तो म्हणटा, त्या त्या वर्णाच्या लोकां खातीर ते ते धर्म सांगल्यात. तेच चलोवचे. *तुम्हां वर्णविशेषवशें। आम्ही हा स्वधर्म लिहिला असे। एयातें उपासा मग आपैसे। पुरवी काम ।।* (ज्ञा.३.८६) वंर्णधर्माक धरून चलतल्याक मोक्ष मेळटाच. *स्वधर्म जो आचरे। तो मोक्ष तेणे व्यापारें। निश्चित पावि ।।* (ज्ञा.३.८०)

ज्ञानदेव वर्णा–वर्णा मदलेच न्हय तर वेव्हारांत चलतात ते जाती–जातीं मजगतचेय वेगळेचार मानतालो अशें दिसता. तो विचारता, सुदरांगेर व्हडलीं व्हडलीं पक्वान्नां केल्लीं आसलीं तरूय ब्राह्मण तीं केन्नाय उश्टायत व्हय? आसना मागीर तो कितलोय गरीब दुबळो! *सांगें शूद्रघरीं आघवीं। पक्वान्नें आहाति बरवीं। तीं द्विजें केवीं सेवावीं। दुर्बळ जरि जाहला* (ज्ञा.३.२२१.)

ब्राह्मणाक तो धर्तरेवेले देव 'पृथ्वी तळीचे देव' मानतालो (ज्ञा.९.४७५.४७८६) जो अग्नीक आहुती दिना, देवांची पुजा करिना,ब्राह्मणांक जेवण (शिदो) दिना, गुरूची भक्ती करिना, पै पावण्याची सरबराय करिना, ताका अखेरेक दुःखूच दुःख भोगचें पडटा अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. (ज्ञा.३.१०५–१०८)

ज्ञानदेवाच्या वावराचें सामाजीक मोल लावूंक बसतात तेन्ना एक खुब्ब म्हत्त्वाचो प्रस्न आमचे मुखार उबो रावता–गीतेचीं तत्त्वां लोकांक समजावन तांचो नैतीक पांवडो वाडोवपा खातीर तो वावुरिल्लो व्हय, लोकांचो नैतीक पांवडो वयर काडप ही ताची मोख आशिल्ली जाल्यार, बरगेल्ल्या वेदीक चालिंरितीं आड

ताणें एक मोहीम उकती करूंक जाय आशिल्ली. तांचें समर्थन करपाची गरज नाशिल्ली. ब्राह्मणांच्या कर्मठपणाक लागुनूच लोक वेदीक धर्मा आड गेल्ले. हें ताच्या लक्षांत येवंक जाय आशिल्लें. तें गेलें ना. ताचे बदला तो महानुभावी पंथाचीं मत्तां खोडून काडपाचो वावर करपाक लागलो. तो व्हडलोसो फळादीक जाला अशें दिसना. कित्याक, महानुभाव पंथ सोडून एकलोय परतो वेदीक पंथांत आयिल्ल्याची नोंद मेळना. ज्ञानदेवाच्या दोळ्यां मुखारूच तो तरतरत गेला.

ह्या अपेसा उपरांतूच ज्ञानदेवाची नदर पंढरपुरच्या वारकरी पंथाचेर पडल्या.

ल्हान तोंडांत व्हड घांस घेवंचो पडटा. पुणून उपाय ना. खेदान सांगचें पडटा, ज्ञानदेवान वेदीक परंपरेंतलो वर्णधर्म आनी गितेचो वर्णधर्म एक मानला. ते एक न्हय. भूंय मळबा येदो फरक आसा दोनांय मजगतीं. वेदीक परंपरेंतलो वर्णधर्म जाती पोटजाती, हो हाच्याकूय सकल तो हाच्याक सकल हे तरेचो वेगळेचार मानता. गीतेंतल्या सगळ्या वर्णांक एकाच पावंड्याचे लेखता. कोणूच कोणा परस उच्च न्हय, कोणूच कोणा परस उणाक न्हय अशें सांगता.

ज्ञानदेव वेदीक परंपरे पेल्यान वचुंकूच पावूंक नाशिल्लो.

(३)

ज्ञानदेवाची नदर वारकरी पंथाचेर पडल्या त्या वेळार मराठी वाटारांत वेदीक धर्माच्यो दोन परंपरा चलताल्यो.

एक, कर्मठ ब्राह्मणांची. चलत आयलां तेंच चलत रावंक जाय म्हणटल्या रुढिवाद्यांची. पैठणचो वाटार तांचो आशिल्लो. दुसरी, चलत आयलां तांतूंत मुळा सावन बदल घडोवन हाडूंक जाय म्हणटल्या सुदारकांची, वेदांचें प्रामाण्य, चातुर्वर्ण्याची निबरसाण, आफूडभश्ट, ब्राह्मणांचें चेपण मानिनाशिल्ल्या महानुभावी लोकांची. विदर्भ आनी गोदावरीच्यो दोनूय तडी हो तांचो वाटार आशिल्लो.

वारकरी परंपरा, ब्राह्मणांनी जांकां 'भायल्या जातींचे' मानून समाजांत सकयल्या पांवड्यार दवरिल्ले तांची, सुदरांची, अती-सुदरांची. पंढरपूर तांचो

वाटार आशिल्लो. लोक हांकां 'वारकरी' म्हणटाले. हे परंपरेची बुन्याद नामदेवान घाल्या.

नामदेव जल्मान शिम्पी. ब्राह्मणांचे नदरेन 'उणाक' जातीचो. वारकऱ्यां मजगतीं म्हाल्यां मजगतचो सेना आशिल्लो, कुंभारां मजगतचो गोरोबा, फुलकारां मजगतचो सांवता तसो म्हारां मजगतचो चोखोबाय आशिल्लो. 'उणाक' जातीचे हे सगळे संत पदार पाविल्ले. हांचें एक म्हत्त्वाचें आंग आशिल्लें भक्तीच्या मळार ते सगळ्या जातींच्या लोकांक एकाच पावंड्याचे लेखताले. काळजाच्या खोल तळांत सावन देवाची भक्ती करीत जाल्यार कोणाकूय देवाचो दिश्टावो (साक्षात्कार) जावं येता अशें ते मानताले. हो 'अधिकार' तांकां कोणेंच दिवंक नाशिल्लो. तांणी तो **घेतिल्लो**. भक्तीच्या मळार कोणेंच कोणाचे जातीचो वा कुळाचो विचार करचो न्हय - कोणाच्यानूय भक्ती करूंक जाता - दादलो बायल, ब्राह्मण शुद्र, गिरेस्त गरीब, शिकिल्लो, शिकूंक नाशिल्लो कोणूय आसूं, ताच्यान भक्ती करूंक जाता. नेणट्या भुरग्याच्यानूय करूंक जाता तशी म्हाल म्हाताऱ्या जाणट्याच्यानूय करूंक जाता, अशें ते मानताले. देखून महाराष्ट्रांतल्या सगळ्या चिड्डल्ल्या, चेपिल्ल्या जातीचे खुबशे लोक ह्या पंथाक येवन मेळिल्ले. पंढरपूरच्या विठ्ठलाक तांणी आपणालो उपास्य देव मानिल्लो आनी दर पंद्रशेक एकादस येता त्या दिसा सगळ्यांनी घरच्यान भायर सरून विठ्ठलाच्या नांवाचो गजर करीत पांयांनी चलत पंढरपूराक वचूंक जाय आनी विठ्ठलाची भेट घेवन येवंक जाय असो तांणी एक नेम केल्लो. जांकां पंद्रशे पंद्रशेक येवंक जमना तांणी वर्सांतल्यान दोन खेपे-आषाढांतले आनी कार्तिकांतले महाएकादशेक तरी हे तरेची 'वारी' करूंकूच जाय, अशें ते म्हणटाले. ह्या नेमाक जे निश्ठेन पाळो दीत आयिल्ले तांकां 'वारकरी' हें नांव पडिल्लें. 'वारी' म्हळ्यार 'यात्रा', नामदेव ह्या पंथांत उर्बेन वावुरतालो. ताणेंच ती चलयल्ली, वाडयल्ली.

जल्मान तो 'नरसी बामणी' गांवचो. हो गांव हैदराबाद संस्थानांत आशिल्लो. आपणालो जल्मगांव सोडून नामदेव पंढरपूराक कित्याक आयलो? तो सांगता, आवय भायर पडले उपरांत आपणाच्यान दुःख सोंसूं नज जालें. काळीज ल्हव करचें म्हूण आपूण गांवच्या देवळांत गेलों. दारांत उबो राविल्लों. एका भटान

आपणाक पळेलो आनी 'उणाक जातीचो तूं आमचे पंगतीक येवन बसूंक सोदता? ऊठ थंयचो' अशें म्हणून उठयलो आनी एका कोनशाक व्हरून बसयलो. आपणाक खूब खूब वायट दिसलें म्हूण पंढरपूराक आयलों. *संसारी गांजलो म्हणूनि शरण आलों* (नामदेव गाथा १३३७) अशें तो विठ्ठलाक सांगता आनी म्हणटा, *माझें यातिकूळ नाहीं त्वां पाहिलें* (ना. गा. १४७२) 'तुवें म्हाका जात विचारली ना. कूळ विचारलें ना.' हें पळोवनूच ताका आपलें रावपाचें निजाचें ठिकाण हेंच अशें दिसलें आनी तो थंयच रावलो. ताका ताचे जातीचो कोणेंय उगडास करून दिलो जाल्यार तो खंती जातालो. 'कावळो चिरपिता थंय तुळस वयर सरना? तिका अपवित्र मानूं येता?' अशें तो विचारता (ना. गा. ९७३). *कुश्चळ भूमीवरी उगवली तुळशी। अपवित्र तियेसी म्हणों नये। नामा म्हणे तैसा जातीचा मी शिंपी। उपमा जातीची देऊं नये।।* (ना. गा. ९७५)

जातीची खंत सगळ्या वारकरी संतांक आशिल्ली. जातीक लागून सगळ्यांक अवमान सोंसचे पडल्यात. आनी (खेदान म्हणचें पडटा) सगळ्यांनी ते मोन्यांनी सोंसल्यात. चोखोबा ह्या संतां मजगतचो एक. जातीन म्हार. ताचे भक्तीचेर खोश्शी जावन एक दीस खासा विठोबाच खंय तागेर रातचो जेवपाक गेलो. जेवन उठलो तेन्ना आपणाल्या गळ्यांतलो हार काडून ताणें चोखोबाच्या गळ्यांत घालो. दुसऱ्या दिसा भटांनी चोखोबाच्या गळ्यांत हार पळेलो. ते तिडकीन उसळ्ळे. 'अब्बा! हाच्या गळ्यांत हो हार कसो आयलो? दुबावूच ना, देवळांत वचून हाणें तो चोरून हाडला जावंक जाय. हार चोरलो तो चोरलो. वयल्यान देवुळूय भश्टिलें ह्या म्हारान... दाखयतां तुका.' अशें म्हणून भटांनी चोखोबाक पेट पेट पेटलो. चोखोबा संत. सगळें सोंसपी. पुणून ताच्यान लेगीत हो मार सोंसूं नज जालो. तो कळवळून विठोबाक विनयता, *धांव घाली विठू आतां चालूं नको मंद*. धांव आतां विठोबा, कळाव लावं नाका, बडवे पळे, म्हाका मारतात. विठोबाचो हार तुज्या गळ्यांत कसो आयलो काय म्हूण विचारतात. म्हार म्हूण म्हाका गाळी संवतात. देव भश्टिलो म्हणटात...' (श्रीसंतगाथा. चोखा मेळा, ११९) इतलो कळवळून तो विठोबाक उलो मारता. तरूय विठोबा आयला व्हय धांवन चोखोबाक सोडोवपाक? देवळांत कमरार हात दवरून उबो राविल्लो तस्सो उबो रावला.

कसलो हो देव? कसली ही भक्ती? **हे भक्तीन हांकां मोक्ष मेळोवन दिला जायत. पुणून सोंसचे पडटात त्या अन्यायां आड उसळपाची तिडक तांच्यांत केन्ना जागयल्या व्हय?** 'मनीसपणा'न जियेवंक शिकयलां व्हय? एकाय वारकऱ्याक हे प्रस्न पडूंक नात.

जातीचें ऊंच उणाकपण देवान निर्मिलां अशें कर्मठ ब्राह्मणांनी मानिल्लें तशें ह्या संतांनीय मानिल्लें म्हणूंक जाय. खूब खोल संस्कार हो एक. 'पुरुषसुक्त' रचून ब्राह्मणांनी तें ऋग्वेदांत आसपावन घेतलें तेन्ना सावन म्हळ्यार, सुमार पांच हजार वर्सां सावन चलत आयिल्लो. ताचीं पाळां मुळां खणून काडूं येतालीं. यज्ञयागांचो अधिकार जांकां वेदान दिवंक नाशिल्लो तांणी आपणा खातीर विठ्ठल-भक्तीचो हो मार्ग सोदून काडिल्लो. विठ्ठलाक तांणी तळागाळांतल्या सरसमान लोकांचो देव केल्लो. ताची भक्ती करपा खातीर मदीं ब्राह्मण पुरयतांचे दलालीची गरज ना अशें थारायल्लें. **भटां ब्राह्मणांक भक्तिमार्गांतले कडेक काडपा खातीरूच वारकरी संप्रदाय सुरू जाल्लो** म्हणूं येता.

नामदेवान भटां ब्राह्मणां आड आपणालो खणखणीत आवाज लेगीत उठयल्लो. 'दांभीक लोक हे सगळे; गर्वान फुगिल्ले, मदांध जाल्ले; मनशां मनशां मजगतच्या वेगळेचाराक धर्म मानीत आयिल्ले; हें करूंक जाय, तें करूंक जायना, असल्या विधिनिषेधांच्या जाळांत घुसपल्ले. हे आमकां देव कितें दाखोवन दितले? हांचे पसून पयसूच राविल्लें बरें' अशें तो पोटतिडकेन म्हणटालो. हांणी करात म्हूण सांगिल्ल्या हजार दैवतांची पुजा करपाची गरज ना, व्रतां-तीर्थांक अर्थ ना. जाखाई जुखाई सारकीं जायतीं दैवतां आसात, तांची जाय जाल्यार भटां ब्राह्मणांनी पुजा करची. आमी कित्याक करूंक जाय? जे स्वता दान दक्षिणेची, प्रसाद जेवणांची आस्त धरून हांची पुजा करतात ते दुसऱ्यांच्यो इत्सा कसल्यो भागयतले, कपलाच्यो? ह्या क्षुद्र दैवतांची पुजा करतकूच खंय विष्णू धादोसभरीत जाता! *धिग् धिग्, आचार जळो तयांचा* (ना. गा. १६१२) अशें म्हणून नामदेव तांचेर उसळटालो.

वारकरी आनी महानुभावी दोनूय भक्तिमार्गी, कृष्णाक मानपी. नामसंकीर्तनाचें म्हत्त्व वळखल्ले. मोक्ष जोडपा खातीर यज्ञ यागांची गरज ना म्हणपी. ते एकठांय

आयिल्ले जाल्यार समाजांत चलत आयिल्ले चातुर्वर्ण्य, ब्राह्मणांचो मक्तो, तांचें चेपण असल्यो नश्ट्यो, पाड्यो, कुसक्यो, बरगेल्ल्यो सगळ्यो चालिरिती हुमटून पडटल्यो आशिल्ल्यो. नामदेवाक ह्या एकचाराची गरज भाशिल्ली आसूंक जाय. कित्याक, तो एक दीस महानुभावी संप्रदायांतल्या पं. दामोदराक मेळपाक गेला. ताचे सरीं बसून ताणें भासाभास (ज्ञानचर्चा) केल्या आनी तकलेंत महानुभावी लोकां संबंदान जे अपसमज भरिल्ले ते ताणें पुसून काडल्यात. (स्मृतिस्थळ २४४) नामदेव महानुभाव पंथाची दीक्षाय घेवंक सोदतालो.

जिस्त ह्या वेळार ज्ञानदेव पंढरपूराक पावला.

ताचे आदीं ताची नामना थंय पाविल्ली. पंदरा वर्सांचे पिरायेर ताणें गीतेची अर्थावणी बरोवन काडल्या म्हणपाचें सगळ्यांच्या कानावेल्यान गेल्लें. कोणाच्याय खंयच्याय चमत्कारा परस ज्ञानदेवाचो हो चमत्कार आगळो वेगळो अशें सगळ्यांचें मत्त जाल्लें. पंढरपूरचे लोक ताका अवतारी पुरूस मानपाक लागिल्ले. येदो व्हड हो मनीस पंढरपूराक येता, विठ्ठलाची भेट घेवन जातकूच रोखडोच नामदेवाक मेळपा खातीर तागेर वता हें पळोवन नामदेव भुल्लुसून गेलो. ज्ञानदेवाक दारांत पळेनाफुडें नामदेवान उठून ताच्या पांयांर घालून घेतलें, उठून ताका घट्ट वेंगेंत घेतलो. आनी *सुफळ माझें जिणे, स्वामीच्या दर्शने धन्य झालों*, अशें म्हळें. *तूं भक्त शिरोमणी, जोडिले जन्मोनी केशव चरण* ह्या उतरांनी ज्ञानदेवान ताच्या येवकाराक जाप दिली. फाटल्या कितल्याश्या जल्मां सावन आमी एकामेकांक वळखतात, अशें पयलेच नदरेक दोगांकूय दिसपाक लागलें. मागीर? दोगूय *एकांती बैसोनी, सहज अंतरीचें गूज बोलूं लागले.* ज्ञानदेवान ताका म्हळें, तुज्या सांगातांत देशांतलीं पवित्र थळां पळोवचीं अशें मनांत आयलां. नामदेवाक पंढरपूर सोडून खंयच वचपाचें नाशिल्लें. *तीर्थासी जाऊनी काय म्यां करावें, वाडगें हिंडावे पंथें तेणे* अशें ताचें मत्त आशिल्लें. ताणें ज्ञानदेवाक म्हळें *यज्ञ याग दानव्रत उद्यापन, हें नेणे मी साधन काय करूं. जप तप होम स्वधर्मलक्षण, नव्हे तीर्थाटन, काय करूं?* (ना. गा. १२१९) *एक सेवलिया पांडुरंग, अनंत तीर्थें घडतील.* (ना.गा. १३३०) अशी ताणें पयली जाप दिली. ती आयकून ज्ञानदेवान म्हळें, मनीस कितलोय ज्ञानी, जीवनमुक्त जालो तरूय तो देवाचें भजन केन्ना सोडिना, तसो

तीर्थयात्राय केले बगर राविना. नामदेवान म्हळें, विठोबान वच म्हळ्यार येतां. विठोबान खंय नामदेवाचो हात ज्ञानदेवाच्या हातांत दिवन म्हळें, 'हो म्हजो अपुर्बायेचो भक्त. सादो भोळो. सांबाळचो पडटलो. म्हाका ताचो हुस्को जावंक दिवं नाका.'

उपरांत दोगूय यात्रेक भायर सरले. वाटेंत दोगांय मजगतीं जायती ज्ञानचर्चा जाल्या जावंक जाय. कित्याक, परतले उपरांत दोगांयच्या विचारांत बदल घडून आयिल्ले दिश्टी पडटात. ईश्वर जोडपाक तीर्थयात्रेची गरज ना हें ज्ञानदेवाक पटलां आनी भक्ति-मार्ग वेदांतल्यानूच आयला, देखून **कर्मठ वेदिकांचो राग मनांत धरपाची गरज ना** हें नामदेवाक पटलां. महानुभावी लोकांच्या मनांतलो वेदां विशींचो राग काडून उडोवप ज्ञानदेवाक जमूंक नाशिल्लें. कित्याक, तांचे मजगतीं जायते विद्वान ब्राह्मण आशिल्ले. वारकरी सादे, भोळे, भावार्ती, तांकां पटोवप सोंपें आशिल्लें. ज्ञानदेवान एक केलें, आपणालो आसपाव वारकऱ्यां मदीं सगळ्यांत पयलीं करून घेतलो. ताका पैठणच्या कर्मठ ब्राह्मणांनी शूद्र-अतिशूद्रां मजगतीं आदींच धुकलून घाल्लो. वारकरी जल्मा सावनूच शूद्र-अतिशूद्र आशिल्ले. ज्ञानदेवा सारको एक विद्वान, वेदविद्या पारंगत, अवतारी पुरूस आपणा मजगतचो जाल्लो पळोवन वारकरी खोश्शी जाले. आनी तांणी ताका आपलो सगळ्यांत व्हड फुडारी मानलो.

ज्ञानदेवान हे करणेन वारकरी संप्रदाय 'गुठलायलो'. कांय विद्वानांचे धोंगांपोंगांचे भाशेंत सांगलें जाल्यार, 'हायजॅक केलो.' परिणाम - समाजांत ज्यो सुधारणा वेगान चलपाक लागिल्ल्यो त्यो आपशीं मोव पडल्यो.

यात्रेंतल्यान परतले उपरांत ज्ञानदेव-नामदेवान म्हामनीचो सुवाळो घडोवन हाडलो. पंढरपूरच्या सगळ्या ब्राह्मणांक जेवणाक आमंत्रणां धाडलीं. तांचे वांगडा सांवता माळी, नरहरी सोनार, गोरोबा कुंभार, चोखोबा म्हार सारकेल्यांकूय धाडलीं. हांकां ब्राह्मणांचे पंगतीक पळोवन ब्राह्मण तिडकले. 'हो अहंकार तुमकां सोबना... हे लोक भक्तिमार्गी... भक्तिमार्ग वेदांतल्यानूच आयला' अशें समजावन ज्ञानदेवान तांची तिडक न्हिवंयली.

उपरांत, आपणालें अवतारकार्य सोंपलें, आपणें आतां समाधी घेतिल्ली

बरी अशें ताका दिसपाक लागलें आनी आळंदीक वचून ताणें वाजत गाजत समाधी घेतली. वारकरी पंथांतले सगळे संत त्या वेळार थंय हाजीर आशिल्ले.

वायट कितेंय सांगचें पडटा तेन्ना तें दुखना असल्या उतरांनी सांगपाची एक चाल दर एके भाशेंत आसता. तिका 'इंग्रजींत euphemism' म्हणटात. देखीक, कोंकणी लोक दिवो 'पालय' म्हणिनात, 'वाडय' म्हणटात. तसो, संत जीव दिता तेन्ना मराठी लोक ताणें 'जीव दिलो' म्हणिनात, ताणें 'जिवंत समाधी' घेतली म्हणटात. ज्ञानदेवाची ही 'जिवंत समाधी' आत्महत्येचीच एक तरा म्हणूंक जाय. कित्या खातीर ताका आत्महत्या करचीशी दिसली? आपलें अवतारकार्य निर्फळ जालें अशें बी ताका दिसलें काय कितें? सफळ जिवीत जियेल्लो मनीस केन्ना आत्महत्या करिना. आनी ज्ञानदेव तर एक संत आशिल्लो, सुखा दुःखा पेल्यान गेल्लो. एकूच कारण आसूं येता–

ज्ञानदेवान समाधी घेतल्या त्याच वर्सा दक्षीण भारताचेर अल्लाउद्दीन खिलजीच्यो घुरयो सुरू जाल्यात. मुसलमानी घुरयो हिन्दू समाजाचेर केदी हावळ हाडटात तें ज्ञानदेव नामदेव दोगांयनी उत्तर भारताचे यात्रेंत खासा आपणाल्या दोळ्यांनी पळेल्लें. हिन्दूंचीं देवळां भूंयभरवण जाल्लीं. देवळांतल्यो मुर्त्यो मोडिल्ल्यो फोडिल्ल्यो. तीर्थथळांचो विद्‌वंस जाल्लो. 'फातराचे देव हे' नामदेव म्हणटा, 'तेवूय तांणी फोडले मोडले! तरी आसतना कोणूच तिडकीन कसो उसळ्ळो ना, कसो रडलो ना?' *'ऐसीं हीं दैवतें नको दावूं देवा'* अशें देवाकडेन उद्वेगान मागता. (ना. गा. १३८९). इतल्यान सोंपूंक ना. मुसलमानांच्या आगळिकांक लागून हिन्दू भियेवन मुसलमान जातात तेंवूय तांणी पळेल्लें. कितें करचें, दोगांकूय येवजूंक नाशिल्लें. ज्ञानदेवाक आपणाच्यान हें अपसरण पयस करूंक जावचें ना अशें दिशिल्लें आसूं येता.morbidity विभवतृष्णा) तांच्यांत आशिल्ली ती आतां उसळून आयली आनी ताणे जिवीत सोपोंवचें अशें थारायलां जावंक जाय. समाधी ताणें हेच खातीर घेतल्या म्हणूंक जाय. नामदेवूच एकलो उरिल्लो. ताणें आपणा खातीर एक वेगळो मार्ग सोदून काडलो. देवळां आनी मशिदी दोनांचेंय म्हत्त्व उणें करचें अशें ताणें थारायलें. *हिन्दू अना तुरकु काणा। दोनो ते गियानी सियाणा।। हिन्दू पुजे देहुरा, मुसलमाणु मसीत।* देव देवळांतूय ना, मशिदींतूय ना. मागीर

मशिदींत अल्ला आसा अशें मानून धर्म बदलपाची गरजूच खंय उरता? उत्तर भारतांतल्यान परतले उपरांत नामदेव ह्याच मत्ताचो प्रचार करपाक लागलो.

निमणीं कांय वर्सां ताणें पंजाबांत सारल्यांत. पंजाबी लोकां कडेन तो एकरूप जाल्लो, एकजीव जाल्लो. पंजाबींत ताणें भजनांय रचिल्लीं आनी तीं पंजाबी लोकांचे जिबेर घोळतूय राविल्लीं. दोनशें वर्सां उपरांत शिख गुरुंनी *ग्रंथ साहिबां* त ताचीं साठ भजनां आसपावन घेतल्यांत. हाचे वेल्यान पंजाबी लोक ताका कितलो मानतालो हाचो अदमास येता. पंजाबांत घुमान नांवाचें एक थळ आसा. तें पंजाबी लोक नामदेवाचें निर्वाणाचें थळ मानतात. घुमानचें देवूळ नामदेवान बांदिल्लें. पुणून नामदेव पंजाबांतल्यान परतो पंढरपूराक आयला. आनी पंढरपूराकूच ताणें समाधी घेतल्या. विठोबाच्या देवळाचे पयले पायरे पोंदा ताच्यो अस्थी पुरल्यात, अशें वारकरी मानतात.

ज्ञानदेवा उपरांत नामदेव पन्नास वर्सां उरला. तो जल्माक आयला त्या वेळार एका जोयशान ताची कुंडली तयार केल्ली आनी हो शंबर कोटी अभंग रचतलो अशें म्हळ्ळें. शंबर कोटी अभंग अजून मेरेन खंयच कोणाक मेळूंक नात. **नामदेवाची गाथा** ह्या ग्रंथांत ताचे सुमार साडे चार हजार अभंग एकठांय केल्ले मेळटात. तांतले खरे ताचे कितले आनी ताच्या शिष्यांनी ताच्या नांवान भितर भरशिल्ले कितले हें सांगूंक येना. विनोबांनी तांतले तिनशें अभंग वेगळे काडून एक ल्हानशें पुस्तक तयार केलां. आनी प्रस्तावनेंत 'हे ताचेच आसतले अशें निश्चितपणान सांगूंक येना. ताका सोबपा सारके मात ते आसात इतलेंच सांगूं येता' अशें म्हळां. ज्या एका अभंगा बगर वारकरी लोक समारोप करिनात तो *घालीन लोटांगण वंदिन चरण । डोळ्यांनी पाहीन रूप तुझें* हो मात तांचोच अभंग हें सगळेच मान्य करतात. तशी *युगे अठ्ठावीस विटेवरी उभा* ही आरतीय ताची अशें सगळे मानतात.

(४)



एक चक्रधर स्वामी सोडीत जाल्यार मराठी संत सगळेच मुसलमानी

काळांतले. मुसलमानी काळ महाराष्टांत सुरू जाला तो अल्लाउद्दीन खिलजीन देवगिरीचें राज्य जिखून घेतलां तेन्ना सावन. ते आदीं उत्तर हिन्दुस्तानांत मुसलमानांनी कितलींशींच धुमशेणां कांडिल्लीं – हिन्दूंचीं देवळां मातयेभरवण केल्लीं, मुर्त्यो तोडिल्ल्यो मोडिल्ल्यो, तरांतरांच्यो आगळिकोय लोकांचेर केल्ल्यो. नामदेवा सारक्या वारकरी संप्रदायांतल्या कांय संतांक घेवन ज्ञानेश्वर यात्रेक गेल्लो तेन्ना ताणें आनी ताचे वांगडा गेल्ल्या संतांनी मुसलमानांचो हो अच्छेव थंय पळेल्लो. यात्रा सोंपोवन महाराष्ट्रांत परतले उपरांत तांणी यादवांक जागोवपाचे न्हय? आयज न्हय जाल्यार फाल्यां केन्नाय तरी ही हावळ देवगिरीचेर येवं येता म्हूण तांकां सांगपाचें न्हय? तांणी तें कांयच केलें ना? तांकां कांय लाग नाशिल्लें? फकत 'विठ्ठल विठ्ठल' गजर करीत रावले?

एक दीस अल्लाउद्दीन खिलजी देवगिरीचेर चाल करून आयलो आनी देवगिरी घेवन ताणें रामदेवरायाक धरून बंदखणींत घालो. रामदेवरायाक मरण आयलें तेन्ना ताच्या जांवयान–हरिपालदेवान–मुसलमानांच्या दावकुलांतलें देवगिरी सोडोवपाचो थोडो यत्न केलो. तो पळोवन अल्लाउद्दीनाचें पित्त खवळ्ळें आनी ताणें 'हाची कात सोलून काड आनी ताका मारून उडय' अशें आपणाल्या सरदाराक – मलिक काफूराक सांगलें आनी मलिक काफूरान खिणाचोय कळाव लायनासतना ताची कात सोलून ताका मारून उडयलो!

उपरांत? 'मुसलमान' हें उतरूच कानार पडल्यार पुरो, हिन्दू जीव मुठींत धरून मेळत ते वाटेन पळत सुट्टाले. येदो धेंक बशिल्लो मुसलमानांचो महाराष्ट्रांतल्या हिन्दूंचेर.

एक गजाल हांगा मुजरत सांगूंक जाय –

हरिपालदेवाक कात सोलून जाणें मारला तो मलिक काफूर 'भायल्यान आयिल्लो' पठाण, तुर्की, अरबी वा असलो कोण मुसलमान नाशिल्लो. गुजरात राजस्थानाचे शिमे वयलो तो आदलो एक हिन्दू 'दलीत' आशिल्लो. बाटून मुसलमान जाल्लो. दलितांचेर सवर्ण हिन्दूं कडल्यान युगान युगां सावन जो अन्याय जायत आयला ताचो ताका कोडू अणभव आशिल्लो. बाटून मुसलमान जायनाफुडें ताच्या मनांतलो चिड्डून उरिल्लो राग उसळून वयर सरिल्लो आनी सवर्ण हिन्दूंचो

सूड घेवपाक तो जी हातांत तरसाद घेवन फुरफुरून घरच्यान भायर सरिल्लो तो नीट रामेश्वरामेरेन गेल्लो. वाटेर मेळ्ळ्यांत तितलींय हिन्दूंचीं देवळां ताणें मातये भरवण केल्यांत. तशे हिन्दूंक कचाकच कातरूनूय उडयल्यात.

असल्या ह्या काळांत संत बेंतकाद कशे जावन रावले? जे समाज वेवस्तेक लागून मलिक काफूर वयर सरतात तीच मोडून उडोवपाक तांणी मुखार सरपाचें न्हय? बरें, संत मुखार सरले नात ते सरले नात, ब्राह्मण कितें करताले? हिन्दू समाजाचें दळवयपण ते करताले न्हय? तांणी मुखार सरपाचें न्हय? तेवूय मुखार सरले नात. उरफाटे, मुसलमानी राजवटींत लेगीत सत्या आपणा हातांत उरची म्हूण तजविजो - लटपटी - खटपट करीत रावले. मुसलमानी राजवट घट जायत गेल्ली पळेली तेन्ना, 'हांचे आड वचपांत आतां लाव ना' हे आतां उरले. असो 'पोक्त विचार' करून तांणी मुसलमानां कडेन जुळोवन घेतलें. इतलेंच न्हय, तर कितलेशे ब्राह्मण आपखोशयेन बाटून मुसलमान जाले! वऱ्हाडांतल्या भैरव कुलकर्ण्याची आनी तागेल्या तिमा भट नांवाच्या पुताची 'वेदशास्त्रसंपन्न' म्हूण नामना आशिल्ली. अहमदनगराक निजामशाय सुरू केल्या ती ह्या दोगां आदल्या ब्राह्मणांनी. इमादशाय जाणें सुरू केली तो फतेहअल्लीय आदलो ब्राह्मण आशिल्लो. **कोण्णे हांकां 'बळयां' बाटोवंक नाशिल्ले. सगळे आपखोशयेन मुसलमान जाल्ले.** जे बाटून मुसलमान जाले नात ते मुसलमानांचे राजवटींत 'विश्वासपात्र गुलाम' (most obidient servants) म्हूण काम करपाक लागले! एकनाथाचो गुरू जनार्दन स्वामी आदिलशाह बादशाहचो एक किल्लेदार म्हूण काम करतालो. दामाजी पंत नांवाचो दुसरो एक 'ब्राह्मणकुलोत्पन्न' संत आशिल्लो. तोवूय मुसलमानांचे सेवेंत आशिल्लो. पैठणाक भैरव नांवाचो आनीक एक ब्राह्मण आशिल्लो. 'वेदविद्यासंपन्न' म्हूण ताचीय नामना आशिल्ली. बायलेचे थोमणे सोंसलेनात म्हूण एक दीस तिडकीन उठून तो एके मशिदींत गेलो आनी मुसलमान जालो. पैठणच्या ब्राह्मणांनी ताका समजावन 'शुद्ध' करून परतो ब्राह्मण वर्णांत आसपावन घेतलो. तेन्ना ताचें हें 'शुद्धी' प्रकरण पळोवन मुसलमान खुबले आनी ब्राह्मणांच्या आंगार जुडून गेले. भैरवान तांकां विचारलें, 'तुमी म्हाका मुसलमान मानतात? म्हज्या तोपिल्ल्या कानांचे बुराक अजून पुरवंक नात... मागीर, हांव

मुसलमान कसो?' ताचो हो प्रस्न आयकून ब्राह्मण खोश्शी खोश्शी जाले. 'बरें दिलें हाणें मुसलमानांक' अशें म्हणून नाचपाक लागले. हो ब्राह्मणाक विचारपाक लागलो, 'हांवें सुन्नत करून घेतिल्ली. मागीर, तुमी म्हाका हिन्दू कसो मानतात?' मागीर मेळत ताका तो, 'हांव कोण? हिन्दू काय मुसलमान?' म्हूण विचारीत भोंवपाक लागलो.

असलीं नाडपेन्नाय ब्राह्मणांनी ते मुस्तींत केल्यांत.

वर्णवेवस्तेंतले हे 'वयल्या' वर्णांतले लोक! तांची अशी गत्त जातकूच हेरांचें कितें जातलें? तांणीय ब्राह्मणांची देख घेतली. आनी तेय मुसलमानांचे most obidient servants जावपाक लागले. शहाजी भोंसले अदिलशाहचो मुखेल मराठा सरदार आशिल्लो. (शिवाजी ताचो पूत.) मोगलांच्या दरबारांत लखुजी भोंसले, निंबाळकर, मोरे, शिंदे, माने, घोरपडे ल्हान व्हड 'सेनाध्यक्ष' जाल्ले. बीदरच्या दरबारांत जानोजी नांवाचो आनीक एक मराठा सरदार वयल्या पांवड्याचो एक अधिकारी आशिल्लो.

'वयल्या' दोनूय वर्णांतले लोक अवनतीक पावतकूच सामके 'सकयल्या' वर्णांतले दुसरे कितें करतले? वर्णवेवस्तेंत ते तर सदांच अपमानीत उरिल्ले. ते भीड मुरवत सोडून नीट बाटपाक लागले. बाट्टकच तांगेल्या हातापांयांक पडिल्ल्यो बेडयो तुटपाक लागल्यो. इतलेंच न्हय, तर बाट्टकच तांकां ऊंच पांवड्याच्यो नोकऱ्योय मेळपाक लागल्यो. ते 'कडवे मुसलमान' जाले. भारत, पाकिस्तान, बांगलादेशांतले आयचे मुसलमान चडशे हांच्याच वंशांतले. कोण्णें तांकां 'बळयां' मुसलमान करूंक नात. **तांकां मुसलमान केल्यात ते ब्राह्मणांनी उदक सारें घालून वाडयल्ले तांगेले वर्णधर्म वेवस्तेन. चातुर्वर्ण्यान.**

'बळयां बाटयले' म्हणटात तीं तड्डकां इतिहासकारांचीं.

भक्तिच्या मळार संतांनी 'समता' हाडली म्हणटात तेंवूय तांगेलें एक तड्डक. नामदेवाची नामना बऱ्यांतलो बरो एक किर्तनकार म्हूण आशिल्ली. पुणून तो किर्तनां खंय करतालो? गांवांत. विठोबाच्या देवळांत ताका किर्तनां करूंक मेळ नाशिल्लीं, उणाक जातीचो म्हूण. चोखा मेळ्याक तर म्हार जातीचो जाल्ल्यान विठोबाच्या देवळांत भितर लेगीत वचूंक मेळनाशिल्लें.

संतांचे शिकवणेन शूद्रांक आनी अति-शूद्रांक मोक्षाचीं दारां उकतीं केलीं जातलीं. सवर्ण हिन्दूंच्या घरांचीं दारां मात तांकां सदां बंदूच उरल्यांत. तशीं देवळांय बंद उरल्यांत.

हिन्दूंचीं धर्म पुस्तकांय इल्लीं इल्लीं करून ह्या काळांत मुसलमानी शेकाक मान्यताय दिवपाक लागलीं. **'गुरूचरित्र'** नांवाचें एक धर्म पुस्तक मराठींत आसा. ताचीं पारायणां करपी गोंयांत लोक आसात. तें कोणे बरयलां? पीठापुरच्या श्रीपादवल्लभ नांवाच्या एका संतान. 'दत्त म्हाराजाचो अवतार' म्हण ह्या संताची नामना आसा. उतार पिरायेर तो कुटवपूर नांवाच्या एका गांवात पावलो. (निजामाच्या राज्यांत). ह्या गांवांत एक मडवळ रावतालो. तो लुगटां उमळपाक न्हंयेचे तडीर येतालो तेन्ना घाटार श्रीपादवल्लभाक बशिल्लो पळयतालो. ताका नमस्कार केले उपरांतूच लुगटां उमळटालो. एक दीस एक मुसलमान पातशा आपणाल्या कांय बेगमींक घेवन 'जलक्रीडा' करपाक घाटार पावलो. मडवळ चकाचूर जावन ताका पळयत रावलो. 'किदें वैभव हाचें? कितलीं मोलादीक लुगटां हो न्हेसता? कितल्यो गोमट्यो बेगमी हाका भोगपाक मेळ्ळ्यात?' हे भाशेन तो चिंतपाक लागलो. मडवळाचे तकलेंत कितें घोळटा तें श्रीपादवल्लभाक अंतर्ज्ञानान कळ्ळें. आनी ताणें मडवळाक आशिर्वाद दिवन म्हळें, 'फुडल्या जल्मांत तूं हाचे सारकोच मुसलमान पातशा जातलो आनी हाचे भाशेनूच सुखांत जियेतलो.'

आनी खऱ्यांनीच खंय हो मडवळ दुसऱ्या जल्मात एक मुसलमान पातशा जालो! तो मुसलमान आसुनूय हिन्दू देव-देवतांक मानतालो. म्हूण ताच्या पायांक फोड आयले. ते दत्तम्हाराजाच्या दुसऱ्या एका अवतारान नृसिंह सरस्वतीन पेखयले!

इस्लाम धर्माक मान्यताय दिल्ले वरी जालें ना हें?

नामदेवान ज्ञानेश्वराचें दळवयपण मान्य केले उपरांत वारकरी पंथांत भौजन समाजांतलो-तुकाराम ये सर-एकूय संत जल्माक येवंक ना. ह्या काळांत महानुभावी संत कितें करताले? चक्रधर स्वामीच्या सुत्रांच्यो फकत अर्थावण्यो बरोवपांत गुल्ल उरिल्ले. तांगेले कांय मठूय चलताले. पुणून संकश्ट दिश्टी पडना फुडें कांसव जसो आपणालीं सगळीं आंगां भितर्यां ओडून घेता तशे महानुभावी संत मठांत

बंदिस्त राविल्ले. मठांची राखण करप आनी आपणाले ग्रंथ मुसलमानांचे भकीक पडचे न्हय म्हूण ते एके सांकेतीक लिपींत उतरावन दवरप हाचे पेल्यान कांयच करी नाशिल्ले. एक खरें, महानुभावी लोकांनीं मुसलमानांचो विरोध केलो ना. पुणून तांचे पांगेंतूय ते रावले नात. दत्तात्रेय पंथी संतांनी देवाक लेगीत फकीरांचो भेस दिवन भष्टिल्ले तशे हांणीं आपणाले देव भष्टिले नात. आत्मसंरक्षणाचें जें कवच तांणीं आंगार चडयलें तें भयान न्हय, स्वाभिमानान.

असले हे फाटभुंयेर एकनाथाचो जल्म जाला.

(५)

**पै**ठण नगरींतल्या एका विठ्ठल भक्ताच्या घराब्यांत एकनाथाचो जल्म १५३३त जाल्लो. भुरगेपणांतूच आवय बापूय गेल्ल्यान आज्या आजयेच्या सांगातांत तो ल्हानाचो व्हड जालो. मूज जातकच गुरू सोदपाक तो घरच्यान भायर सरलो. बारा वर्सांची पिराय आशिल्ली ताची त्या वेळार. नीट देवगिरीक वचून तो जनार्दन स्वामींच्या पांया कडेन बसलो. एक नीतिवंत सत्पुरूस म्हूण जनार्दन स्वामींची चोंयदिकांनी नामना पातळ्ळेली. एकनाथाक पळेनाफुडें दत्तम्हाराजानूच ताका आपणा सरीं धाडला अशें जनार्दन स्वामींक दिसलें. आनी जनार्दन स्वामीन ताका दवरून घेतलो. घराण्यांतली विठ्ठलभक्ती आनी गुरूची दत्तभक्ती अशे दोट्टी संस्कार एकनाथाचेर पडल्यात. थंयच ताणें वेद वेदांगां, भागवता सारकेल्या धर्मग्रंथांचो अभ्यास करून आपणाक घडयला. बारा वर्सां तो गुरू घरा उरला.

घरा येतकूच ताचें लग्न जालां. फावऽ सारकीच घरकान्न ताका मेळिल्ली. दोन दोळे, नदर एक, दोन वोंठ, उतर एक (ज्ञानेश्वराची ओपार ही). तशीं एकनाथ आनी गिरिजाबाय दिसलीं जरूय दोगां, तरूय आसलीं एक. घराबो व्हड. पांच पन्नास मनशां सद्दां पंगतीक बसतालीं. घरचीं, नात्या पात्यांतलीं तशीं येत्या वेत्यां मजगतचीं. जेवन सगळीं धादोसभरीत जावंक जाय हाची दोगांय जतनाय

घेतालीं. मध्यान रातचो कोणूय पावलो जाल्यारूय गिरिजाबाय ताका रांदून वाडटाली. देख घेवपा सारको हो घरसंवसार आशिल्लो. मराठी संतां मजगतच्या ज्ञानेश्वरान घरसंवसार चलयलो ना. नामदेवान चलयलो पुणून विरक्त मनान. तुकारामाक तर चलोवंकूच आयलो ना. एकनाथान बेस बरो चलोवन दाखयला. प्रपंचाक आनी परमार्थाक पडना असो एक समज लोकां मजगतीं पातळ्ळा. तो समा न्हय, ज्या प्रपंचांत परमार्थ ना त्या प्रपंचाक अर्थ ना. प्रपंचाची आनी परमार्थाची संतुळा सादून घरसंवसार चलोवंक येवंक जाय हें एकनाथान आपणाले देखीन दाखोवन दिलां.

चातुर्वर्ण्यांत रिगिल्लो ऊंच उणाकपणाचो वेगळेचार ताणें मानूंक ना. तो म्हणटा–

*जया म्हणती नीच वर्ण। स्त्रीशूद्रादि हीन जन।।*
*सर्वां भूंतीं देव वसे। नीचा ठायीं काय नसे।।*
*नीच कोठोनी जन्मला। पंचभूतां वेगळा झाला।।*
*तया नाहीं का जनन। सर्वेंचि होत पतन।।*
*नीच म्हणोनि काय भुली। एका जनार्दने देखिली।।*



ताच्यो कांय आख्यायिका चलतात–

गोदावरी न्हंयेचे तडीर ताणें एक खेपे एक ल्हान भुरगें पळेलें. आवयक उलो मारून मोट्या मोट्यान रडटालें. बाबडें वाट चुकून हांगा पावलां जातलें अशें एकनाथाक दिसलें. आनी ताणें ताका विचारलें, 'बाय, कोणालें तूं?' भुरगें जाप दिनासतना आनिकूय मोट्यान रडपाक लागलें. 'हें म्हारांगेलें आसूंक जाय.' एकनाथान ताचें रूप पळोवन मनांत म्हळें आनी 'यो बाय, दाखयतां हांव तुका तुजी आवय.' अशें म्हणून ताका हाण्डीर घेतलें. ताच्या नांकांतल्यान शेंबूड व्हांवतालो. तो आपणाल्या उपरण्यान पुसून काडलो. आनी म्हारां वाड्यार वचून ताची आवय सोदून तिचे सुवादीन ताका केलें.

आनीक एक आख्यायिका सांगतात–

ताच्या पितरांचें श्राद्ध आशिल्लें. जेवणाक काय ब्राह्मणांक ताणें आपयल्ले.

तांची वाट पळेत तो दारांत उबो राविल्लो. मुखावेल्यान कांय म्हार येताले. तांच्या नाकांत पक्वान्नांचो वास गेलो आनी तांचे जिबेक लाळ सुटली. 'आमच्या नशिबांत खंय आसात असलीं पक्वान्नांचीं जेवणां?' तांचे मदल्या एकल्यान म्हळें. एकनाथाच्या कानार तें पडलें. रोखडेच ताणें तांकां भितर आपयले आनी ब्राह्मणां खातीर मांडून दवरिल्ल्या पाटांर बसोवन तांकां पोटभर जेवयले. इतल्यांत ब्राह्मण आयले. आपणाक मांडिल्ल्या पानांचेर म्हारांक बसयल्ले पळोवन ते तिडकीन उठून गेले. 'ब्राह्मणांक उठून गेल्ले पळोवन पितर स्वर्गांतल्यान आयले आनी श्राद्धाचें अन्न घेवन गेले' अशें भक्त म्हणटात. पुणून हो 'चमत्कार' भक्तांनी एकनाथाच्या जिवितांत उपरांत 'घाला' आसूंक जाय. हेर संतांच्या जिवितांत आयल्यात ते तरेचो एकूय चमत्कार एकनाथान करून दाखोवंक ना. एकूय चमत्कार करूंक नाशिल्लो एकूच संत हो अख्ख्या संवसारांतलो.

तो राणू म्हारागेर लेगीत एक दीस जेवपाक गेला. ताचीं किर्तनां आयकुपाक हो म्हार सदां येतालो. आपणागेर एकनाथाक एक दीस जेवपाक आपोवचो अशें जायते फावटीं ताच्या मनांत आयिल्लें. पुणून आपोवपाचो ताका धीर जाय नाशिल्लो. एक दीस धीर करून ताणें विचारलें, 'आमगेर एक दीस जेवपाक येशात व्हय तुमी?' एकनाथान ताच्या तोंडा कडेन पळेलें आनी मुमुर्ख्यांनी हांसून म्हळें, 'तुका ना म्हणूं येता म्हज्यान?... कर तयारी, येतां आयज तुगेर.' आनी एकनाथ तागेर जेवपाक गेलो. 'ब्राह्मण आसून म्हारागेर जेवपाक वता?' हे ब्राह्मणांचे अखटायेक एकनाथान जाप दिल्या–

*आम्ही ब्रह्मपुरीचे ब्राह्मण। याती कुळ नाहीं लहान ।।*
*आम्हा सोवळें ओवळें नाहीं। विटाळ न देखों कवणे ठायीं ।।*
*आम्हां सोयरे जे जाहाले। ते याती कुळा वेगळे केले ।।*
*एका जनार्दनी बोधु। याती कुळांचा फिटला संबंधु ।।*

तो जात–कात मानी नाशिल्लो, तसो दादलो बायल हो वेगळेचार वळखऽ नाशिल्लो. तें कित्याक, मनीस आनी मोनजात हांचे मजगतींय फरक करी नाशिल्लो. एक खेपे तो काशी थळांतलें गंगेचें तीर्थ घेवन रामेश्वराक वतालो.

वाटेर एका गांवांत ताणें एक गाडव पळेलें. तानेन व्हळपेतालें. एकनाथाचें काळीज कळवळून आयलें. ताणें मनांत म्हळें, 'ब्राह्मणांच्या संवसारांत म्हार उणाक. तशें मोनजातीच्या संवसारांत गाडव उणाक. म्हार आनी गाडव म्हजींच सोयरीं.' आनी ताणें कावडींतलें गंगोदक 'तूंच म्हजो रामेश्वर' अशें म्हणून गाडवाक पियेवंक घालें.

पैठणच्या कर्मठ ब्राह्मणांक एकनाथाची असली चलणूक मात् लेगीत सोंसनाशिल्ली. खासा एकनाथाच्या पुताक – हरी शास्त्रीकूय – सोंसनाशिल्ली. ताणें वेगळें बिराड केल्लें. कर्मठ ब्राह्मणांक आयतोच एक 'फुडारी' मेळ्ळो. तांणी हरी शास्त्र्याक मुखार काडून एकनाथाक प्रायश्चित्त घेवंक सांगलें. एकनाथान म्हळें, 'प्रायश्चित्त हांव सदां घेतां.'

*पापा प्रायश्चित्त कळियुगीं नाम ।*
*आणिक ओंपें कर्म संत सेवा ।।*
*न लगे मुंडन दंडन ते आटी ।*
*नाम घेतां होटीं सर्व जोडे ।।*

हीं ताचीं कांय ओडलायणीं आंगां. थोड्याभोव प्रमाणांत तीं सगळ्या संतांत दिश्टी पडटात. एकनाथाचें आगळे वेगळेपण पळोवंक मेळटा तें, हाचे भायर, मराठी भाशेचे साहित्य निर्मणेच्या वावरांत हो निखटो साहित्य–निर्मणेचो वावर नाशिल्लो. लोक–शिक्षणाचो आशिल्लो. दुसऱ्या खंयच्याच संतान रचूंक ना इतली व्हड बरपावळ एकनाथान रचल्या. आकारानूय व्हड, संख्येनूय व्हड. कितलेशेच ग्रंथ जावचे इतली व्हड.

गुरू वांगडा तो तीर्थयात्रेक गेल्लो तेन्ना नासकाक तांचो कांय दिसांचो राबितो आशिल्लो. थंय एका पंडिताचें प्रवचन आयकुपाक तो गेल्लो. प्रवचन आयकून तो बरोच प्रभावीत जाल्लो पळोवन गुरून ताका म्हळें, 'तूं ताचेकूय बरें कितेंय बरोवन दाखय... हांगाच रावन तें बरय... ते मेरेन हांव यात्रा पुरी करून येतां.' एकनाथान भागवत पुराणांतले चार श्लोक वेंचून काडले. दुसऱ्या स्कंधाच्या णवव्या अध्यायांतले. ३२ ते ३५ मेरेनचे. भागवताचे शिकवणेचो आपरोस हे चतु:श्लोकींत

आयला म्हणटात. ताणें तांची सुमार एक हजार छत्तीस ओंवयांनी अर्थावणी बरयली. भागवताचे शिकवणे भायर लोकांचे भाशेंत – मराठींत – बरयतल्यांच्यो बकच्छायो करतल्या पंडितांक ताणें हांतूंत सणसणीत बरी जापूय दिल्या. ती बरोवन सोंपल्या त्याच वेळार जिस्त गुरू यात्रा सोंपोवन परतला. गुरूक ताणें आपणाली अर्थावणी वाचून दाखयली. गुरू खोश्शी जालो. आनी ताणें एकनाथाची फाट थापटिली. एकनाथाचो आत्मविस्वास वाडपाक ती पुरो जाली. घर संवसार घेवन बसतकूच ताणें रोखडीच भागवताच्या एकादश स्कंधाची अर्थावणी बरोवपाक सुरवात केली.

गीता आनी भागवत हे वैष्णव धर्माचे दोन प्रमाण ग्रंथ. दोनूय श्रीकृष्णानूच केल्ल्या उपदेसाचे. गीतेंत अर्जुनाक केल्लो उपदेस आयला तर भागवतांत उद्धवाक केल्लो आयला. गीतेची अर्थावणी ज्ञानदेवान केल्ली. भागवताची एकनाथान केल्या. अर्थावणेचे पांचूच अध्याय बरोवन जाल्ले, तागेल्या एका शिष्यान ते आपणा खातीर बरोवन काडले आनी ते घेवन तो काशी यात्रेक गेलो. थंय दशाश्वमेध घाटार बसून तो हे अध्याय खणखणीत आवाजान वाचपाक लागलो. एक दीस थंयच्या एका महंताच्या कानार तें पडलें, ‘हें कितें वाचता तूं?’ महंतान ताका विचारलें.

‘भागवत’ ताणें जाप दिली.

‘खंयचे भाशेंत?’

‘म्हजे मायभाशेंत... मराठींत.’

‘कोणें बरयलां तें?’

‘म्हज्या गुरून... एकनाथ स्वामीन...’

महंताचें पित्त खवळ्ळें. ‘भागवत? आनी हेंगाडी भाशेंत?... अपमान हो भागवताचो... बुडय तुगेल्यो त्यो पोथयो गंगेचे व्हांवतेंत... आनी आपय तुगेल्या गुरूक हांगा जाब दिवपाक.’ महंतान आज्ञा केली.

एकनाथाक हो काशीविश्वेश्वराचोच आपोवणो कसो दिसलो. बरयलां तितलेंय घेवन तो काशीक गेलो. थंय सरभोंवतणच्या पंडितां हुजीर महंतान ताची ‘सुनावणी’

सुरू केली. एकनाथान आपणाल्या गोड, मोगाळ, विनयी भाशेंत आपणालें म्हणणें मांडलें. आपूण भागवताचो अवमानूय करूंक मुखार सरूंक ना, संस्कृत भाशेक उणीय लेखिना, पुणून म्हजे सरभोंवतणी जे हजारांनी लोक रावतात तांकां कोणाक संस्कृत समजना. ते भागवत धर्मा पसून पयस उरल्यात. तांकां हांवें तांचे बोली भाशेंत भागवत धर्म समजावन सांगलो जाल्यार धर्म बुडपाचो ना. उरफाटो, तळागाळा मेरेन तो पावतलो आनी भौसाचो उद्‌धार जातलो ही प्रस्तावना करून आपणें जें बरयलां तें अर्थाचे नदरेन कितलें अचूक, कितलें स्पश्ट जालां तें दाखले दिवन पटोवन दिलें. 'हो सादो कवी न्हय, एक धर्मावतार हो', अशें पंडितांचें मत्त जालें. पोथयो गंगेंत बुडोवंक लायिल्ल्याचो तांकां पच्छात्ताप जालो आनी अर्थावणी काशींतूच बसून पुरी कर, अशें तांणी एकनाथाक सांगलें.

एकनाथ तीन वर्सां काशी थळांत रावला. आनी अर्थावणी ताणें थंयच पुरी केल्या. ज्ञानेश्वराचे गीतेचे अर्थावणेच्यो सुमार णव हजार ओंवयो. जाल्यार, एकनाथाच्या भागवताच्यो अठरा हजार आठशें ओंवयो जाल्यात, *संस्कृत भाषा देवें केली, प्राकृत काय चोरांपासूनि आली*, अशें एकनाथान म्हळ्ळें ते ह्या संदर्भांत घेवंक जाय. काशींतल्या पंडितांनी ही अर्थावणी एका हतयाचे फाटीर दवरून तिची पुराय शारांत एक मिरवणुकूय खंय मागीर काडल्या.

एके तरेचो हो दिग्‌विजय करून एकनाथ घरा परतलो ते उपरांत ताणें रोखडेंच ज्ञानेश्वरीची 'शुद्‌ध प्रत' तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. महाराष्ट्रांत खांची कोनशांनी भोंवन ताणें ज्ञानेश्वरीच्यो मेळ्ळू येतात तितल्योय पोथयो एकठांय केल्यो, त्यो तर्जून पळेल्यो आनी पाठशुद्‌धीचो वावर पुरो केलो. ज्ञानेश्वरी ताणें गुरूघरा आसतना वाचिल्ली. एके भाशेन तो ज्ञानेश्वरी थंय 'शिकिल्लो'. तिचो ताचेर खोल प्रभावूय पडिल्लो. भागवताचे ताचे अर्थावणेंत हो प्रभाव पावला कणकणी दिश्टी पडटा. केन्ना केन्ना तर ही अर्थावणी भागवताची काय ज्ञानेश्वरीची, असोय दुबाव येता, अशें जाणकार म्हणटात. ज्ञानेश्वरीची शुद्‌ध प्रत खंयच मेळना हें पळोवन तो खंती जातालो.

हे विशिंची एक आख्यायिका आसा –

काशींतल्यान परतले उपरांत एके रातचें खंय ताका एक सपन पडलें. सपनांत ज्ञानदेवान येवन ताका म्हळें, 'आळंदींतले म्हजे समाधीचेर कावळे चिरपल्ल्यान वडां पिंपळाचे कांय रोप वयर सरल्यात. तांकां लागून समाधीक वेरो गेल्यात. एका पाळान तर म्हजी गचीय आंवुळ्ळ्या. आळंदीक वच आनी समाधी निवळ करून घे.' एकनाथ दुसऱ्याच दिसा उठून नीट आळंदीक गेलो. **समाधी झाडां झोंपां मदीं लिपिल्ली. ती ताणें सोदून काडली.** समाधी मेरेन वचपाचे वाटेर रान मातिल्लें. तेंवूय निवळ करून घेतलें. समाधीर वाडिल्ले वडा पिंपळांचे रोपे मारून उडयले. ज्या पाळान ज्ञानेश्वराची गची आंवळून धरिल्ली तेंय कातरून उडयलें.

हे आख्यायिकेंत पिंपळाक 'अजान' वृक्ष म्हळा. अजान हो अज्ञान ह्या उतराचो खंय अपभ्रंश. ह्या उतराच्या आधारान हे आख्यायिकेचो अर्थ स्पश्ट जाता –

ज्ञानेश्वर आनी एकनाथ हांचे मदीं सुमार दोन अडेज शतमानांचें अंतर पडिल्लें. येद्या ह्या काळांत **महाराष्ट्रांतले लोक ज्ञानेश्वराक विसरिल्ले.** ताची समाधी उबंत पडिल्ली. ती खंय आसा ती एकनाथाक 'सोदून काडची' पडल्या. **तेराव्या शतमानाचे अखेरेक महाराष्ट्रांत घोळटाले ते भाशेंत ज्ञानेश्वरान 'ज्ञानेश्वरी' बरयल्ली. ही भास सोळाव्या शतमानांत लोकांक सारकी कळनाशिल्ली. एकनाथान तिका सोळाव्या शतमानाचे भाशेचें रूप दिलां.** वारकरी परंपरा खंडीत जाल्ली ती समाधी मेरेन वचपी वाट निवळ करून एकनाथान पर्थी सुरू केल्या.

'ज्ञानदेवे रचिला पाया, तुका झालासे कळस' ह्या अर्थाची एक ओपार वारकऱ्यां मजगतीं चलता. ती सत्याचो विपर्यास करता. ज्ञानदेवान वारकरी संप्रदायाची बुन्याद निखालूस घालूंक ना. ती घाल्ली नामदेवान. तिचेर वणटी उबारपाचें काम उरिल्लें. तें नामदेव करूंक पावलो ना. हाचीं कारणां दोन. एक, तो ज्ञानदेवाच्या प्रभावांत आयलो आनी वारकरी पंथ जो वेदीक परंपरे आड विद्रोहान उबो राविल्लो तो वेदीक परंपरेचोच एक फांटो अशें मानपाक लागिल्लो. हाका

लागून ताचो नेट उणो जाल्लो. आनी दुसरें, त्याच काळांत जिस्त मुसलमानांच्यो घुरयो महाराष्ट्रांत येवपाक लागिल्ल्यो. त्यो आडावपाचें काम कोण करूंक पावूंक नाशिल्लो. हाका लागून मराठी समाज अवनतीचे दिकेन वचपाक लागिल्लो. नामदेवान घाल्ले बुन्यादीर वणटी उबारून थंय वारकरी संप्रदायाचें मुखेल केन्द्र सुरू करपाचो वावर, खरेपणानशीं, एकनाथान केला. तुकारामाच्या रुपान मागीर ताचेर कळस चडला. वारकरी पंथ पर्थून जिवो करपाचो एकनाथाचो हो वावर इतिहासाचे नदरेन खूब म्हत्त्वाचो. उपरांत वारकरी पंथ जो चलपाक लागला तो आयज मेरेन अखंड रुपान चलत रावला. हाचें पुराय स्त्रय एकनाथाकूच वता.

भागवता इतलोच म्हत्त्वाचो एकनाथाचो तिसरो – आनी निमणो – ग्रंथ म्हळ्यार 'भावार्थ रामायण'. ते पयलीं ताणें आनिकूय कांय ल्हान ग्रंथ बरयल्ले.

'हस्तामलक' नांवाचो एक. सशें चौऱ्यात्तर ओंवयांचो. शंकराचार्याच्या चौदा श्लोकांच्या एका स्तोत्राची अर्थावणी ही. 'शुकाष्टक' नांवाचो दुसरो. संस्कृत भाशेंतल्या 'अष्टाका'ची सुमार चारशें सत्तेचाळीस ओंवयांची अर्थावणी ही. 'स्वात्मसुख' नांवाचो तिसरो. तीनशें धा ओंवयांचो. हो एक स्वतंत्र ग्रंथ. तसो 'आनन्दलहरी' नांवाचो आनीक एक स्वतंत्र ग्रंथ आसा. देडशें ओंवयांचो. ते भायर, 'रुक्मिणी स्वयंवर' नांवाचो पांचवो. हो ग्रंथ ताणें काशीच्या राबित्यांत बरयल्लो.

जिवा शिवाची – वा म्हणुंया, आत्म्या परमात्म्याची भेट ही भक्तिमार्गाची (mysticism ची) मोख. आत्मो भेटीक आंवडेता. भेटीचो तो फकत ध्यास घेवन बसता. भेट घडोवन हाडपाक वावुरता परमात्मो. आत्मो एक पावल मुखार घालता तेन्ना परमात्मो धा पावलां घालून लागीं येता आनी भेटीचे वाटेंतलीं सगळीं आडमेळीं पयस करता. आत्मो मोगिका (Beloved), परमात्मो मोगी (Lover). ही संकल्पना हाच्या मुळांत आसा. हिन्दू भक्तिमार्गाची ही संकल्पना. सुफींची आनी खिस्ती भक्तांचीय संकल्पना हीच. रुक्मिणी कृष्णाची जावपा खातीर तळमळत रावल्या. रुक्मी आनी शिशुपाल तांचें मिलन जावंक दिनात. तरांतरांचीं आडमेळीं हाडटात. कृष्ण हीं आडमेळीं पयस करता. रामायण हेच तरेचें एक

रुपक. सीता रावणागेर बंदिस्त उरल्या. रामाचो फकत ध्यास घेवन बसल्या. तिका थंयची सोडोवन हाडपाचे पराकाश्टेचे यत्न राम करता. एकनाथान 'रुक्मिणी स्वयंवरां'त ह्या रुपकाचो आधार घेवन भक्तिमार्ग रामजावन सांगला.

धर्म गादेवन जेन्ना जेन्ना समाजांत अधर्म मातता तेन्ना तेन्ना *परित्राणाय साधूनाम् विनाशायच दुष्कृताम्* - संत सुश्टांची राखण करपा खातीर आनी दुश्टां दुर्जनांक निर्दाळपा खातीर आपूण अवतार घेतां अशें भगवंतान गीतेंत म्हळां तें खरें आसत, घडये नासत. पुणून जेन्ना जेन्ना ह्या देशांत समाजाची अवनत जाल्या आनी लोक गडगडत गडगडत सामको तळाक पावला तेन्ना तेन्ना नव्या नव्या रुपान रामायणान जल्म घेतला आनी पडिल्ल्या लोकांक हात दिवन वयर काडपाचो यत्न ताणें केला हें मात अनमन नासतना सांगूं येता. खासा वाल्मीकीन हेच प्रेरणेन रामायण रचिल्लें. अवतार-माळे प्रमाण राम कृष्णा आदलो अवतार - एक पूर्णावतार. पुणून ताची तुस्त तोखणाय गायत गायत भागवतान ताचें जें रूप लोकां मुखार दवरलें ते शृंगारीक (पोजड्या) कृष्णाचें जाल्लें. लोक पूर्णावतार कृष्णाचीं हेर सगळीं आंगां विसरिल्ले आनी ह्याच एका आंगाची देख घेवन चलपाक लागिल्ले. परिणाम - गांवां कणकणी, वाड्या कणकणी एका फुडले एक कृष्ण दिश्टी पडपाक लागिल्ले आनी समाजांतल्या गोपीं वांगडा ते 'रासलीला' खेळपाक लागिल्ले. समाजांत मातिल्लो हो अनाचार आळाबंदा हाडपा खातीर लोकां मुखार एका 'मर्यादा पुरुषोत्तमा'ची देख दवरूंक जाय अशें वाल्मीकीक दिसलें तेन्ना ताणें समाजांत तोंडयां चलत आयिल्ल्या (आनी महाभारतांत आसपावन घेतिल्ल्या) 'रामोपाख्याना'चें अनुसर्जन करून आपणालें रामायण रचलें. लोकां मुखार देखदिणो पूत, देखदिणो घोव, देखदिणी बायल, देखदिणो भाव, देखदिणो इश्ट, सेवक, दुस्मान कसो आसूंक जाय हें राम, सीता, लक्ष्मण, विभीषण, रावण हांच्या जिविताचीं चित्रणां करून सांगलां. वाल्मीकी उपरांतच्या काळांत कंबन, कृत्तिदास, तुलसीदासा सारकेल्या देशी भासांतल्या म्हाकवींनीय हेच प्रेरणेन आपापणाले भाशेंत रामायणां रचून पडिल्लो समाज वयर काडपाचो यत्न केला.

एकनाथाच्या काळांत मराठी समाज अवनतीक पाविल्लो. ब्राह्मण सुमारा भायर आपल्या वांदडाचे जाल्ले. मुसलमानांचें बरें भलें जावचें म्हूण तांचे खातीर

गायत्री मंत्राचीं अनुष्ठानां करपाक लेगीत ते अनमनऽ नाशिल्ले. 'सभाग्यांनो, तुमी सगळ्यांचे गुरू (वर्णानाम् ब्राह्मणो गुरू:) तुमीच आज आपमतलबी, धोंगी, बडवाचारी, चैनी जाले जाल्यार, हेरांनी कोणाच्या तोंडा कडेन पळोवन देखी घेवपाच्यो?' *यत् यत् आचरति श्रेष्ठस् तत् तत् एव इतरे जन:* तुमचेच देखीन लोक चलतले. समाज अवनतीच्या तळाक गेला तो तुमकां लागून, ही जाणवीक ब्राह्मणांक करून दिवपाक ताणें 'भावार्थ रामायण' बरयलें. ब्राह्मणांक तो 'श्रेष्ठ' मानतालो असो हाचो अर्थ न्हय. ब्राह्मणांक श्रेष्ठ मानपाक ताका कारणूच नाशिल्लें. तो सगळ्यांक सारकेच मानतालो - एकाच पांवड्याचे लेखतालो. ब्राह्मणांनी ताका पिडला. ताच्याच पुताक मुखार काडून छळ्ळा. मराठींत धर्मग्रंथांच्यो अर्थावण्यो बरयता म्हूण ताका परिक्षा दिवपाक काशी थळांत धाडला. पुणून ब्राह्मण आपणाक श्रेष्ठ मानतात, इतलेंच न्हय तर सरसमान लोकूय तांकां श्रेष्ठ मानता हे वस्तुस्थिती कडेन एकनाथ आडनदर कशी करतलो आशिल्लो? ब्राह्मणांक तांची लागणूक दाखोवन दिवप ही ताणें आपणाली लागणूक मानिल्ली. म्हूण ताणें सांगलां तें ब्राह्मणांक मुखार दवरून सांगलां. केन्ना चिमटे काडून, केन्ना कुटल्यो मारून, केन्ना सणसणीत बरें फुलोवन, इतलेंच न्हय तर केन्ना केन्ना तांचे फाटीर चाबकां मारून लेगीत सांगलां.

ब्राह्मण कितले आपल्या वांदडाचे, लाचार, दुटप्पी आशिल्ले हें एकनाथान भावार्थ रामायणांत एका प्रसंगाचें वर्णन करून दाखोवन दिलां-

राम पंचवटीक येवन रावला. दानधर्माचे आशेन सरभोंवतणेचे कितलेशे ब्राह्मणूय थंय ताच्या आसऱ्याक येवन रावल्यात. म्हणटासर रावण सीतेक उबारून व्हरता आनी राम तिडकीन रावणा आड झुजाक उबो रावता. झुजांत रावणाचो नेट पळोवन रामाक हार खावची पडटली अशें ब्राह्मणांक दिसता. 'आमी रामाच्या आसऱ्याक येवन राविल्ल्यान राक्षस आमकांय त्रास दितले' ह्या भयान ते बेगोबेग रामाक सोडून राक्षसांच्या आसऱ्याक वचून रावतात. पुणून जाता उरफाटें. राम राक्षसांक मारता. ब्राह्मण बेगोबेग राक्षसांच्या अंत:पुरांनी वचून तांच्या बायलांच्या आंगा वयल्यो वस्ती लुटून हाडटात. म्हणटासर आदले परस व्हड सैन्य घेवन रावण येता आनी रामाच्या सैन्याची दानाधिस्पट जाता. ती पळोवन ब्राह्मणांचो

आवरो उडटा. रोखडेच ते लुटून व्हेल्ल्यो वस्ती राक्षस-बायलांक परत्यो व्हरून दितात आनी 'आमी ह्यो चोरून व्हरूंक नाशिल्ल्यो, रामाचे वानर त्यो व्हरीत ह्या भयान लिपोवन दवरिल्ल्यो...' अशें सांगून 'राक्षस आमकां त्रास दितीत... तुमी तांकां आमचे हे सेवे संबंदान सांगात आनी तांच्या तडाख्यांतल्यान आमकां वाटायात.' अशें काकुळटेक येवन विनयतात. दोन तोंडांची माळणां हीं अशें तेन्ना राक्षसबायलांक दिसता.

कांय ब्राह्मण लंकेंत वचून राक्षसांचे आश्रीत जाल्ले. एकनाथान तांकां 'ब्रह्मराक्षस' म्हळ्यात. राक्षसां पाश्ट जाल्ले ब्राह्मण ह्या अर्थान. देंवचार म्हारू सारकेले पिशाच्च ह्या अर्थान न्हय. ताच्या काळांत महाराष्ट्रांतले ब्राह्मण मुसलमानांचे सेवेंत रावन सरसमान लोकांक हँच फँच करून आपणा पसून पयस दवरताले, तांकां पिडटाले , नाडटाले तांचें चित्रण हें.

राक्षस जाय तसलीं रुपां घेताले अशी तांची नामना आसा. तांगेले हे नामनेचो लाव घेवन एकनाथान आपणाल्या रामायणांत राक्षसांक खाडां मिशयांच्या रुपान चितारल्यात. ताच्या काळांतल्या मुसलमान राज्यकर्त्यांचें चित्रण हें. देशी भाशेंतल्या दुसऱ्या खंयच्याच रामायणांत खाडां मिशयांचे राक्षस पळोवंक मेळचेनात.

ज्या काळांत आपणाल्या धुवांक वा भयणींक बादशाहाच्या जनानखान्यांत आपखोशयेन धाडपांत लज दिसपा बदला व्हडल्या व्हडल्यांक व्हडपण दिसतालें, आपल्याच सोयऱ्यांच्या घरांचेर सुणीं चडोवपांत व्हडले व्हडले गुल्ल उरताले, उतराक मोल उरूंक नाशिल्लें, एका बोटा वेलो निथू दुसऱ्या बोटार दाखोवप हाकाच लोक बुदवंताकाय लेखताले, त्या काळांत खासा रामूच आपणा कडल्यान हें भावार्थ रामायण बरोवन घेता अशें एकनाथाक मना पसून दिसतालें. ताणें बाल, अयोध्या, अरण्य, किष्किंधा, सुंदर हीं पांच कांडां पुरीं करून सव्या युद्धकांडाचे चोवेचाळीस अध्याय बरयल्ले. इतल्यांत ताका मरण आयलें. उरिल्लो वांटो गावबा नांवाच्या तागेल्या एका शिष्यान पुरो केलो. भौसांत ते मुस्तींत भारूड नांवाचें एक लोककाव्य चलतालें. लटक्या चालिंरितींच्यो बकच्छायो मारून लोकांक उजू वाटेन व्हरपाचो यत्न करपी एक तरा ही. एकनाथान तीनशां वयर भारुडां बरयल्यांत. सवायशें विशयांचेर.

कांय भजनांय बरयल्यांत.

पुणून एकनाथाचें खरें योगदान तें वेगळेंच. भक्ती म्हळी म्हणटकूच घरसंवसार आनी समाज हांकां सामकीच फाट करप, देव आनी भक्त सोडून आनी कित्याचेंच लावन घेवप ना, बायल भुरग्यांक भिकेक लावचीं आनी आपणें दीस रात टाळ कुटीत बसचें (आनी समाजान ताका पोसचें) असो जाल्लो हो समज समा न्हय हें एकनाथान उपदेसा परस चड आपणाले देखीन दाखोवन दिलां. भक्तींत भजन कीर्तन नाम स्मरण असल्या गजालींक म्हत्वाची सुवात आसली तरूय घर संवसाराच्यो आनी समाजाच्यो लागणुको ह्या गजालींकूय तितलीच म्हत्वाची सुवात आसा, अशें एकनाथाचें म्हणणें आशिल्लें. आनी ताणें तें आपणाल्यो लागणुको पुऱ्यो करून दाखोवन दिलां.

तागेली साहित्य-निर्मणी लेगीत हेच प्रेरणेन चलिल्ली. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, एकनाथ हो 'बांधीलकी' आशिल्लो एक बऱ्यांतलो बरो साहित्यकार आशिल्लो. तसो तो बऱ्यांतलो बरो संतूय, बऱ्यांतलो बरो घरसंवसारी आनी बऱ्यांतलो बरो नागरिकूय आशिल्लो.

(६)



तुकारामाचो जल्म चालंत काळाच्या १५९८ वर्सा पुण्या लागसारच्या देहु गांवांत जाल्लो. बापायचो थंय एक भुसारी पसरो आशिल्लो तो तुकाराम चलयतालो म्हूण तो जातीन वाणी आशिल्लो असो एक समज पातळ्ळा. पुणून खासा तोच आपूण कुणब्यांचे जातींतलो म्हूण सांगता. *बरा कुणबी केलों नाहीं तर दंभेचि असतों मेलों*. अशें म्हणटा. कुणबी आसलो तरी तो गिरेस्त कुणबी आशिल्लो. बारा वर्सांचे पिरायेर ताचें लग्न जालें पुणून जी चली बायल म्हण घरांत हाडली तिका दम्याची पिडा आशिल्ली. देखून बापायन ताचें एका गिरेस्त कुणबी घरांतले चलयेकडेन दुसरें लग्न केलें. चार वर्सां लेगीत जावंक नात, महाराष्ट्रांत सुकी धाड आयली. दुष्काळ पडलो. ह्या दुष्काळांत ताची पयली बायल भायर पडली. तिका

एक भुरगें जाल्लें तेंय गेलें. आवय गेली. बापूय पयलींच गेल्लो. व्हडलो भाव संवसाराक उबगून घरदार सोडून गेलो. पसरो चलना जालो. देणेकारी दारांत येवन धरणें धरून बसपाक लागले. तुकाराम जिविताक उबगलो. घर-संवसारांत ताचें मन लागना जालें. एका फाटल्यान एक कोंसळ्ळेल्या त्या संकश्टांचो ताचे घरकान्नीचेर परिणाम जावंक नाशिल्लो जाल्यारूच अजाप म्हणपाचें. बायलो तिडटात तेन्ना त्यो आपणाली तिडक पयलीं आयदनांचेर काडटात. मागीर भुरग्यांचेर. जिजाई घोवाचेरूय ती काडपाक लागली. (म्हूण बाबडेक लोक 'कर्कशा' म्हणपाक लागले.) तुकाराम वैतागलो. देवाचे आराधनेंत मन घालूंक लागलो. घरांत विठ्ठलाची आराधना परंपरेन चलत आयिल्ली. तो संतांची बरपावळ वाचपाक लागलो. इल्लें इल्लें करून देवाचे हे आराधनेन जनसेवेचें रूप घेतलें. *देव झाले अवघे जन, भूतीं देव म्हणोनि भेटतो या जना,* अशें तो सांगता - लोकांचें दु:ख पळोवन तो आकूळपिकूळ जावपाक लागलो. *न देखवे डोळां ऐसा हा आकांत। परपीडे चित्त दु:खी होते, भीत नाहीं आतां आपुल्या मरणा। दु:खी होती जना न देखवे* अशी ताची गत जाल्ली. लोकांचेंच दु:ख न्हय, तर राष्ट्राच्याय दु:खांत तो दु:खी जावपाक लागलो. *जनसेवेचे वाटेन राष्ट्रसेवा* ही ताणें आपणाल्या वावराची मोख थारायली. देव कोणाक मेळटा? लोकां मुखार जो नमळ जाता ताका, अशी जाप तो दिता. *जे का रंजले गांजले। त्यांसि म्हणे जो आपुले। तोचि साधु ओळखावा। देव तेथेचि जाणावा* ही तागेली देशसेवेची व्याख्या आशिल्ली.

एक फावट नामदेव ताच्या सपनांत आयलो. येतना वांगडा विठ्ठलाकूय घेवन आयलो. आनी 'आतां कवित्व कर' अशें दोगांयनी ताका सांगलें. तुकारामाक हो देवाचो 'आदेश' कसो-दिसलो. आनी तो अभंग रचपाक लागलो. अभंगांतल्यान तो आपणाल्यो खंती, हुस्के, दु:खां उकतावपाक लागलो. काळीज ओतून बरयत रावलो. ताच्या किर्तनांक देहूचे आनी देहू भोंवतणच्या वाटारांतले हजारांनी लोक येवपाक लागले.

लोकांक तुकारामाचें पिशें लागिल्लें पळोवन धर्माचो मक्तो घेवन बशिल्ल्या भटां ब्राह्मणांक ताचे जाळ मारपाक लागले जाल्यार अजाप कसलें? मंबाजी नांवाचो एक भट आशिल्लो. तुकारामाची बदनामी जावची ह्या उद्देशान ताणें

एक दीस एके वेश्येक तागेर धाडून दिली. तुकारामान तिच्या पांयांक हात लावन म्हळें, 'बाये गे, तूं म्हाका आवय सारकी' आनी तिका परतिली. मंबाजी खुबलो. देवळांत प्रदक्षणा घालता आसतना तुकाराम आपणाक आफुडलो अशें म्हणून ताणें एक दीस तुकारामाक पेट पेट पेटलो. तुकाराम ओग्गी रावलो. मंबाजीची तिडक पायांतली मस्तकांत गेली. 'हो जातीन शूद्र. तरूय अभंग बरयता? राव, दाखयतां तुका', अशें म्हणून ताणें रामेश्वर शास्त्री कडेन फिर्याद व्हेली. रामेश्वर शास्त्री ह्या वाटारांतलो धर्माचो 'राखणदार'. ताणें तुकारामाचे अभंग वाचले आनी वेदांची अर्थावणी तांतूंत आयिल्ली पळोवन 'एक शुद्र बोली भाशेंत वेदांची अर्थावणी करता? हाचे परस व्हड गुन्यांव दुसरो ना.' अशें म्हणून 'हे सगळे अभंग इन्द्रायणी न्हंयेंत बुडोवचे' असो ताका आदेश दिलो. देवान न्याय दिवचो म्हूण तुकारामान अभंगांच्यो पोथयो बुडोवन सत्याग्रह सुरू केलो. बारा दीस उपाशीं रावलो. तेराव्या दिसा न्हंयेंत बुडयल्ल्यो अभंगांच्यो पोथयो करकरीत सुक्यो वयर आयल्यो. ह्या 'चमत्कार'चो कसोय अर्थ लावचो. खरो अर्थ 'शुद्रांक लेगीत वेदांची अर्थावणी करून अभंग बरोवपाचो अधिकार आसा' इतलोच जाता. अशें म्हणटात, पोथयो वयर येना फुडें रामेश्वर भटाच्या आंगाक हुलोप पेटलो आनी तो तुकारामाक शरण आयलो. तुकारामाच्या शिष्यां मजगतीं कोळी, माळी, तेली, वाणी, शेट, कांसार बी सगळ्या जातींतले आशिल्ले. आतां भटां, ब्राह्मणां मदले येवपाक लागले.

तुकारामाच्या अभंगांचे दोन वांटे करूं येतात. ईश्वराचें ज्ञान जावचे आदीं बरयल्ल्या अभंगांचे एक. आनी ईश्वर जोडपाचें ज्ञान जोडटकूच धर्म राखणेचें जें काम ताका करपाचें आशिल्लें ताची विकसावणी करून बरयल्ल्या अभंगांचो दुसरो. तो समाजाक नीत शिकोवंक मुखार सारिल्लो. वांगडाच, हे नितीक धरून जे चलनात तांची फजेत करूंक सोदतालो. *उजळावया आलों वाटा... जगा यावी नीत। करावी फजीत। चुकती ते।* हे भाशेंत ताणें आपणाल्या अवतारकार्याची वळख करून दिल्या. 'परित्राणाय साधूनाम, विनाशायच दुष्कृताम्' हे खातीर आपूण जल्माक आयलां, अशें तो स्पश्ट सांगता. जाका नवें कितेंय घडोवपाचें आसता ताका पोरणें बरेंचशें मोडच्चेंच पडटा. सज्जनाचें पालन करूंक

सोदतल्यांक दुर्जनाचें निर्दालन करचेंच पडटा. ह्या वावराक तुकाराम 'दये'चो वावर म्हणटा. *दया तिचें नांव। भूतांचें पालन। आणीक निर्दालन कंटकांचें।* तुकारामा आदलो खंयचोच मराठी संत हे तरेची भास उलोवंक ना. भक्तीच्या नांवान समाजांत जे दंभ पातळायतात तांची ताणें खर टिका केल्या. *अंगा लावूनिया राख। डोळे झांकूनी करिती पाप। तुका म्हणे सांगे किती। जळो तयांची संगती।।* जाका पेंवक येना तो भवसागरांतल्यान दुसऱ्यांक कसो वाटायतलो? असल्या सगळ्यांक सोडात आनी एका विठ्ठलाक जोडात. ताका जोडपाक घर संवसार सोडपाची, रानांत उठून वचपाची, आंगाक भस्म सारवपाची कसलीच गरज ना. काळजांत भक्ती आसत जाल्यार *सुखे येतो घरी नारायण.* तुकारामा आदले सगळे संत सद्गुणी आशिल्ले. तुकारामांत सद्गुणा भायर तेजस्विताय आशिल्ली. काळजांतले भाव जितले खोल तितलीच तेजस्वी ताची भास जाल्ली. कोणाकूय तामडावन काडचो पडला तेन्ना धोंगांपोंगांची गांवढळ भास वापरपाक लेगीत हो अनमनूंक ना. ताणें लोकांक फकत सज्जन करपाचो यत्न करूंक ना. तांकां तेजिश्ट करपाक तो आंवडेला. *होईल तैसे बळें। फजीत करावे ते खळ। तुका म्हणे त्यांचे। पाप नाहीं ताडनाचें।।... दुर्जनांचा मान। सुखें करावा खंडण। लाथ हाणोनिया वाटी। गुंडा वाट शुद्ध करी।।... बहुतां पीडी खळ। त्यांचा धरावा विटाळ। तुका म्हणे नखें। काढुनि टाकिजेती सुखें।।* आमी नाखटां काडून उडयनात? तशे दुश्टांक समाजांतले काडून भायर मारचे, असलो उपदेस लोकांक करपी हो महाराष्ट्रांतलोच न्हय, पुराय भारत देसांतलो एकलोच संत. *मऊ मेणाहून आम्ही विष्णुदास। कठीण वज्रास भेदूं ऐसे।। भले तरी देऊं गांडीची लंगोटी। नाठ्याळाचि गांठी देऊं माथां।।* ... हे देखीन वैष्णवान चलूंक जाय. *आम्ही विठ्ठलाचे वीर फोडूं कळिकाळाचें शीर।।* असलो उपदेस तो करतालो. मोल आसा तें शौर्याक, बडबडीक न्हय. मनशान स्वाभिमानान जियेवंक जाय. *काळिमेचें जिणे। जिऊनियां राहे सुणे। जळो जळो तैसे जिणे। करयले लाजिरवाले।।*

तुकाराम लोकांक हे तरेचो उपदेस करतालो म्हूण शिवाजीय खंय ताचीं 'किर्तनां' आयकूंक येतालो. शिवाजीची पिराय त्या वेळार फकत अठरा वर्सांची आशिल्ली. अजून तो 'छत्रपती' जावंक नाशिल्लो. शिवाजी तुकारामाचीं किर्तनां

आयकूंक येतालो तो ताचो विरक्तीचो उपदेस आयकुपाक न्हय. तर, ताचे ओजस्वी वाणींतल्यान स्फूर्त घेवपाक.

तुकाराम हेर संतां सारको भक्त नाशिल्लो. तो लोकांक फकत भक्तीच शिकय नाशिल्लो. 'उणाक' मानिल्ल्या लोकांक तो ब्राह्मणांच्या ऊंच पांवड्यार व्हरूंक वावुरला. दुश्टांचें निर्दालन करून ताणें खरेल्या अर्थान धर्माची 'राखण' केल्या.

तो गांव सोडून खंयच भायर वचूंक ना. पंढरपूर, आळंदी आनी पैठण सोडून, खंयचीच यात्रा ताणें करूंक ना. पुणून तो आपणाक 'विश्वनागरीक' मानता आनी ज्या धर्माक तो पाळो दितालो ताका 'मनीसधर्म' म्हणटा आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें–

हेर संतांनी दिला तसो चातुर्वर्ण्याक ताणें निखालूस तेंको दिवंक ना. तुकाराम सुधारक आशिल्लो.

ताचो अखेर कसो जालो? १६४९ वर्सा उपरांत तो कोणाक दिश्टी पडूंक ना. ताका मरण आयिल्लें? जाल्यार ताची खंय तरी समाधी मेळूंक जाय आशिल्ली. खंयच मेळूंक ना. तो 'काडून गेलो' अशेंय म्हणूंक येना. इतलें खरें, चातुर्वर्णाच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या भटां, ब्राह्मणांक तो केन्ना पचलो ना. ताची हत्या जाली आसूं येता. पुणून 'हत्या जाली' अशें कोण म्हणिना. ज्ञानेश्वरान 'जीव दिलो' अशें कोण म्हणिनात, ताणें 'जिवंत समाधी घेतली' अशें म्हणटात. तशें घडये तुकारामाची 'हत्या जाली' अशें म्हणचे बदला मराठी लोक 'वैकुंठाक तो सदेह गेलो' अशें म्हणटात.

(७)

**रा**मदासाचो जल्म चालंत काळाच्या १६०८ ह्या वर्सा जालो. नारायण हें तागेलें पाळण्यांतलें नांव. भुरगेपणासावन ताका रामाची ओड. आठ वर्सांचो आसतना रामाचो खंय ताका सपनांत दिश्टावोय (साक्षात्कार) जाल्लो. पुणून लग्नाच्या म्हुर्तार ''मंगलाष्टकां'' म्हणटा आसतना भटांच्या तोंडांतल्यान 'सावधान', 'सावधान' करून एक उतर भौन भौन येता आनी तें आयकून लोक आपणाल्या माथ्यार अक्षता शिंवरायतात हें पळोवन तो शिटकावलो. 'लग्न जालो

जाल्यार तूं फस्तीक पडटलो' अशें राम आपणाक शिटकावन सांगता काय कितें, असो ताका दुबाव आयलो आनी खऱ्यांनीच 'सावध' जावन माटवांतल्यान ताणें धांव मारली. तो बद्द टाकली गांवांत वचून थांबलो. नासकाक तेंकून आशिल्लो गांव हो. गोदावरी न्हंयचे तडी वयलो. थंय बारा वर्सां रावन ताणें तपश्चर्या केली. सद्दां सकाळीं उठचें, गोदावरीचे व्हांवतेंत एका पांयार उबो रावन गायत्री मंत्राचो जप करचो. दनपरां वयर सरचें. गांवांत चार आठ घरांनी भोंवन भिक्षा मागची. जेवचें आनी सांजचो सगळो आदेस धर्मपुस्तकांचें अध्ययन, मनन करचें.

बारा वर्सां ताणें हे भाशेन तप केलें.

उपरांत तो तीर्थयात्रेक भायर सरलो. बारा वर्सां एका सारको भोंवत भोंवत देशांतल्या चारूय दिकांतल्या तीर्थथळांक ताणें भेट दिली. आनी १६४४त म्हळ्यार बद्द चोवीस वर्सांनी घरा परतलो. आवयची भेट घेतली. तिगेल्या आनी भाव भावज हांच्या सांगातांत कांय दीस रावन सातान्याक कृष्णेचे तडी वयल्या चाफळ गांवांत आयलो. हांगां ताणें आपणाल्या संप्रदायाची बुन्याद घाली. सगळ्यांत पयलीं ताणें थंय मारुतीचें एक देवूळ बांदून घेतलें. मुदलांत तो रामाचो भक्त. मारुतीय रामाचो भक्त म्हूण मारुतीक ताणें आपणालें उपास्य दैवत मानिल्लें. जंय जंय पावला थंय थंय ताणें रामाचे भक्ती वांगडा मारुतीचे उपासनेचोय प्रचार केला.

टाकळीक तो तप करतालो त्या वेळार ताका उद्धव नांवाचो एक शिष्य मेळिल्लो. ताचे खातीर ताणें थंय मारुतीचें एक देवूळ बांदून घेतिल्लें. उपरांत तीर्थयात्रेक भायर सरला तेन्ना काशीक पावतकूच थंयच्या हनुमान-घाटाचेरूय ताणें आनीक एक बांदून घेतलां. तिर्थयात्रेच्या काळांत तो महाबळेश्वराक चार म्हयने उरला. थंय ताका दिवाकर भट आनी अनंत भट नांवाचे दोन शिष्य मेळ्ळे. महाबळेश्वराकूय ताणें मारुतीचें एक देवूळ बांदलां. थंयच्यान वाईक आयला. थंयूय ताका कांय शिष्य मेळ्ळे. थंयूय एक देवूळ बांदून घेतलां. उपरांत माहुली, नरंडा, कऱ्हाड, शाहपूर बी कांय गांवानी भोवला. जंय जंय गेला थंय थंय ताका शिष्य मेळत रावल्यात आनी थंय थंय ताणें मारूतीचीं देवळां बांदून घेतल्यांत.

तीन चार वर्सांचें हे भोंवडेंत ताणें सुमार इकरा देवळां बांदून घेतिल्लीं म्हणटात.

कृष्णेचे तडीर (चाफळ गांवांत) आपणालो मठ बांदून घेतकूच ताणें १६४५त रामनमीचो उत्सव सुरू केलो. तीन वर्सांच्या अणभवा उपरांत ताका हो उत्सव वर्सान वर्स चलत रावंक जाय अशें दिसपाक लागलें. ते खातीर रामाचें एक देऊळ बांदून काडूंक जाय अशें ताणें थारायलें. देवळा खातीर भूंय जाय आशिल्ली. ती ताका लागसारच्याच मसूर गांवांत मेळ्ळी. हे भुंयेर ताणें एक भव्य राममंदिर उबें केलें. गांवचो लोक चडसो ब्राह्मण. तांचे मजगतीं रामाची भक्ती जागोवपाचें आनी तांचे मुखार रामभक्त मारूतीची देख दवरपाचें काम ताणें नेटान सुरू केलें. आपणाल्या शिष्यांक तो ''श्री राम जय राम जय जय राम'' हो मंत्रूय दिवपाक लागलो.

पुणून तागेलो खरो वावर इतलोच नाशिल्लो. हो वावर तो आपणाल्या मुखेल वावराचें एक आंग म्हूण करतालो. तागेल्या वावराची खरी मोख वेगळीच आशिल्ली.

रामदासान ह्या वावराक हात घाला ताचे पयलींच दादाजी नरसू सारकेल्या सरदारांक सांगाताक घेवन शिवाजीन महाराष्ट्रांत 'हिन्दवी स्वराज्या'ची बुन्याद घाल्या. पुण्याचो कारभार ताणें आपल्या हातांत घेतला. पुणे ही शाहजीची जागीर आशिल्ली आनी शाहजी विजापूरच्या आदिलशाहचो एक सरदार आशिल्लो. आदिलशाहच्या सरदाराचो पूत ह्या नात्यान आपूण पुणेचो कारभार चलयतां अशें शिवाजी कारभाऱ्यांक म्हणटालो. म्हणटासर ताणें मुसलमानां कडल्यान सिंहगडा सारको किल्लो जिखून घेतलो. आरे आरे म्हणटासर आनीक कांय किल्ले जिखून घेतले. मुसलमानां कडेन लडायो करून ताणें 'हिन्दवी स्वराज्य' सुरू केलें. दादाजी कोंडदेवा सारकेलो एक सांगाती ताका मेळिल्लो. ताणें शेतकामांत कितल्योश्यो सुदारणां करून जमनीचें उत्पन्न इतलें वाडयलें की लोक सुखांत जियेवपाक लागलो. तुकारामाच्या तोंडांतल्यान लेगीत *जालें रामराज्य काय उणे आम्हासी/ धरणी धरी पाक गाई बोळल्या म्हैसी* आतां रामाराज्य जालां, कितें उणे आसा आमकां आतां? भूंय पिकाळ जाल्या, गायी म्हशी भरपूर दूद दिवपाक लागल्यात' हे तरेचीं संतोसाचीं उतरां फुटल्यांत.

शिवाजीच्या राज्यांत ब्राह्मण आनी मराठे हांच्या हातांत कारभार आशिल्ल्यान

लोकांक जाताली ती मुसलमानी काळांतली पिडापीड ना जाल्ली. लोक हुस्क्या मेकळो जाल्लो. हिन्दू मुसलमानां मजगतचे संबंदूय निवळ्ळे. एकामेकांच्या उत्सव-परबांनी ते वांटो घेवपाक लागिल्ले. तेंच कित्याक, शेख सल्ला सारकेलो एक मुसलमान आसुनूय कितल्याश्या हिन्दूंक मुसलमान जावपाचे वाटेंतले आडावन ताणें परतून हिन्दू समाजांत हाडल्यात. शेख महम्मदा सारकेल्यान तर कितल्याश्या मुसलमानांक भागवत पंथात हाडल्यात. आयज लेगीत ताचे समाधीची हिन्दू आनी मुसलमान वांगडाच पुजा करतात. ह्या गजाली भायर आनी कांय गजाली घडपाक लागिल्ल्यो.

लोलिंबराज जोशी नांवाचो एक विद्वान ब्राह्मण एका मुसलमान सरदाराचे धुवेच्या मोगांत पडलो. नवनीत-कोमलांगी (लोणयापरस मोव आंगलोटाची) म्हूण तिची नामना आशिल्ली. लग्ना उपरांत लोलिंबराजान तिका रत्नकला म्हूण नवें नांव दिल्लें.

माळोपंत नांवाचो एक ब्राह्मण म्हारांचे जातीचे एके चलयेकडेन लग्न जाल्लो. कृष्णदास साधू नांवाचो एकलो ब्राह्मण एका म्हाल्याचे धुवेकडेन लग्न जाल्लो. दोगीय तांच्यो 'लग्नाच्यो बायलो' आशिल्ल्यो. चांगा नांवाच्या एका ब्राह्मणान एके विधवा ब्राह्मणीच्या पुताची मूंज केल्ली. इतल्यान सोंपूक ना. खावपा पियेवपाच्या मळार ब्राह्मण कर्मठ. पुणून ह्या काळांत तांणी सगळे विधी-निषेध सोडून दिल्ले. खावंक फावना तेंय खाताले. पियेवंक फावना तेंवूय पियेताले. सामकेच आचारभ्रष्ट जाल्ले. अध्ययन अध्यापन हो तांचो स्वधर्म, ताकाय तांणी फाट केल्ली. हें उणे म्हूण जाल्यार कोणाक खबर, गुरुपदार शूद्र बसले तेन्ना ब्राह्मण तांचे शिष्य जाले. तुकाराम मुदलांतलो कुणबी म्हळ्यार, शूद्र. अभ्यासान आनी आत्मीक बळान तो रामेश्वरशास्त्री, कचेश्वर ब्रह्मे, निळोबा पिंपळनेरकर सारकेल्या 'वेदशास्त्रसंपन्न' ब्राह्मणांचो गुरू जाल्लो. बायलां मजगतल्योय कांय जाणी ताका आपलो गुरू मानताल्यो. तुकयाबंधू, संताजी तेली, गवरशेट बनिया, नावजी माळी, शिवबा कांसार सारकेले कितलेशे ब्राह्मणां 'भायले' जातीचे सत्पुरूष गुरुपदार आयिल्ले. शिवाजीन तर एक पावल मुखार घालून अतिशूद्रां मजगतल्या म्हारांक लेगीत आपणाले क्षत्रीय जातींत घेतिल्ले. जाती बदला गूण पळोवन

ताणें कितल्याश्या जाणांक अधिकाराच्या जाग्यार बसयल्ले. बाटून जे मुसलमान जाल्ले तांचे मदल्याय कांय जाणांक ताणें 'शुध्द करून' हिन्दू समाजांत हाडल्यात. देखीक बजाजी निंबाळकर आनी नेताजी पालकर. दोगूय मुसलमान शुध्द जावन हिन्दू समाजांत आयल्यात. निंबाळकरांकडेन तर शिवाजीन आपणालें घराणे लग्नाच्या संबंदान जोडून घेतलां.

तीर्थयात्रेच्या काळांत रामदासान खासा आपणाल्या दोळ्यांनी मुसलमानांनी घडोवन हाडिल्लो विध्वंस पळेल्लो. *तीर्थक्षेत्रे मोडिलीं/ ब्राह्मणस्थाने भ्रष्ट जालीं/ सकळ पृथ्वी आंदोळली/ धर्म गेला म्हूण खंती जाल्लो. आतां फणफणून म्हणूंक लागलो– ब्रह्मज्ञानाचा विचारु । त्याचा ब्राह्मणासीच अधिकारू ।*

*वर्णानां ब्राह्मणो गुरुः । ऐसे वचन ।।*
*ब्राह्मण बुध्दीपासून चेवले । आचारा पासून भ्रष्टले ।*
*गुरुत्व सांडून जाले । शिष्य शिष्यांते ।।*
*कित्येक तुरक होती । आपले इच्छेने ।।*
*ऐसा कलियुगींचा आचारू कोठें राहिला विचार ।*
*पुढें पुढें वर्णसंकर। होणार आहे ।।*
*गुरुत्व आलें नीच जाती ।कांही येक वाढली महंती ।*
*शूद्र आचार बुडविती । ब्राह्मणांचा ।।*
*हें ब्रह्मणास कळेना । त्याची वृत्तिच वळेना ।*
*मिथ्या अभिमान गळेना । मूर्खपणाचा ।।*
*राज्य नेले म्लेंचि क्षेत्रीं । गुरुत्व नेले कुपात्री ।*
*आपण अरत्री ना परत्री । कांहींच नाहीं ।।*
*आम्हीहि तेचि ब्राह्मण । दुःखें बोलिले हें वचन ।*
*वडिल गेले ग्रामणी धरुन । आम्हां भोंवतें ।।*
*आतांचे ब्राह्मणी काय केलें । अन्न मिळेना ऐसे जाले ।।*
*तुम्हा बहुतांचे प्रचितीस आलें । किंवा नाहीं ।।*

(दासबोध द. १४, स. ७–२१–४०)

तात्पर्य, रामदासाचो मुखेल वावर ब्राह्मणांक जाल्ली अवनत आळाबंदा हाडप, तांकां तांच्या व्हडपणाची जाणवीक करून दिवप, तांकां तांची लागणूक समजावन सांगप, तांची होगडावल्ली पत तांकां परती जोडून दिवप हीच मोख मुखार दवरून चलत राविल्लो. ताका हुस्को आशिल्लो तो फकत ब्राह्मणांचो. हेरां कोणाचें ताका कांय लागनाशिल्लें. अशेंय पळेल्ले अंती दिसता. 'दासबोधां' तलो उपदेस ताणें ब्राह्माणांकूच दोळ्यांमुखार दवरून केला. पुणून हे खातीर ताका दुशण दिवंक येना. कित्याक, ब्राह्मण हे समाजांतले वयल्या थरावेले लोक, अशें तेच न्हय, तर हेरूय सगळे मानीत आयिल्ले. आनी समाजांतले वयल्या थरावेले लोक जे तरेन चलतात, वागतात तेच तरेन हेर लोक चलतात, वागतात. हो समाजाचो एक नेम. वयल्या थरांतले लोकूच अवनतीक पावले जाल्यार हेर थरांतले लोकूय तांचेवरी अवनतीक पावुंकूच जाय. म्हूण वयल्या थरांतल्या लोकांक निवळावपाचो वावर करतल्यांक दूशण दिवंक येना. रामदास ब्राह्मण जातीचो आशिल्लो, आपले जातीच्याच लोकांचे उदरगतीचो वावर करतालो म्हूण ताका जातवादी म्हणूंक येना. मनीस जातवादी केन्ना थरता? आपली जात सोडून हेर जातींक तो उणाक लेखता तेन्ना. रामदास हेरांक उणाक लेखतालो. तो म्हणटा,

असो ब्राह्मण सुरवर वंदिती। तेथें मानव बापुडें किती?
जरी ब्राह्मण मूढमती। तरी तो भगद्वंद्य ।।

**दासबोध द ५.स.१.१५**

गरुरू तो सकळांसी ब्राह्मण। जरी तो जाला क्रियाहीन।
तरी तयासीच शरण। अनन्याभावें असावे ।।

**दासबोध द.५.६.स.१.६**

ब्राह्मणाक देव लेगीत वंदन करतात. थंय दुबळ्या मनशाक मोल कसलें? ब्राह्मण मूर्ख आसलो तरूय अख्खो संवसार ताका वंद्यूच मानता. तो कसलींच क्रिया-कर्मा करिना जालो, तरी सगळ्यांनी ताकाच आपलो गुरु मानूंक जाय आनी ताकाच शरण वचूंक जाय.

रामदास इतल्यार थांबना. तो मुखार वता आनी म्हणटा, 'म्हार वा शूद्र

कितलोय शिकलो, शब्द-ज्ञान संपन्न जालो तरूय ताका घेवन कितें करतले आमी? ब्राह्मणाच्या शेजरा बसोवन ताजी पूजा तर करूंक येवपाची ना. *अंत्यज शब्दज्ञाता बरवा। परी तो नेऊन काये करावा। ब्राह्मणा सन्निध पूजावा। हें तो न घडें की।* **(दासबोध५-१-१६)** 'सगळ्यांचो आत्मो एक खरो, तरूय म्हाराक सांगाताक घेवचो न्हय. *मनुष्य आणि गधडे/ राजहंस आणि कोंबडें/ राजे आणि माकडें एक कैसी।। भागीरथीचे जळ आप/ मोरी संवदणी तेहि आप/ कुश्चिळ उदक अल्प/ सेवव ना।* मनशांक आत्मो आसा तसो गाढवांतूय आसा. म्हूण कितें मनीस आनी गाढव एक जाता? राजहंस आनी कोंबडो एक म्हणूं येता? राजा आनी माकड एक म्हणूं येत व्हय? गंगेचें उदक हें उदकच. मोरयेचें उदक हेंवूय उदकूच. म्हूण किते मोरयेचे उदक पियेंव येता?

**(दासबोध १३.१०-१३. १४. १५)**

उणाक लोकांच्या सांगातांत रावचें न्हय, उणाक जातीचो गुरुय करचो न्हय. कित्याक? शिष्य ब्राह्मण जातीचो आसत जाल्यार ताका गुरुच्या पायांचे तीर्थ घेवचे पडटलें. हें तीर्थ घेतलें जाल्यार ताका प्रायश्चित्त घेवचें पडटलें. आनी प्रायश्चित्त घेतलें जाल्यार गुरुचो अवमान केल्ले वरीं जातलें म्हूण- *स्वजातीचा पाहिजे गुरु/नाहीं तर भ्रष्टाकारू/ नेमस्त घडे।।* **(दासबोध ५-२-८८-६४)**

रामदासाचो उगडो नागडो जातवाद हो.

रामदासाचीं खरीं दुःखां तीन आशिल्लीं. ताज्याच उतरांनीं सांगचें जाल्यार-

*राज्य नेले म्लेंचि क्षेत्री / गुरुत्व नेलें कुपात्री/*
*आपण अरत्रीं ना परत्री/ कांहींच नाहीं।।*

**(दासबोध १४-७-३६)**

'राज्य गेलें म्लेच्छांच्या हातांत. गुरुपद घेतलें उणाक जातीच्या लोकांनीं (आमी) ब्राह्मण हांगाय उरले नात, थंयूय उरले नात, खंयूंच उरले नात. म्लेच्छांच्या हातांतलें राज्य आनी उणाक जातीच्या हातांत गेल्लें गुरुपद तांच्या हातांतलें झोंबून तें ब्राह्मणांच्या हातांत दिवंक जाय ह्या निर्णयार तो पाविल्लो. तो भवानी मायेक उलो मारून सांगता, 'माये गे, तुजो राजा तूंच निर्माण करून दाखय आमकां.

हाचे पयलीं तुवें दुश्टांचें निर्दालन केल्लें अशें आयकत आयलां. आतां तुजो प्रभाव तूं प्रत्यक्षांत हाडून दाखय पळोवया.

*तुझा तूं वाढवी राजा/ शीघ्र आम्हांची देखतां ।।*

*दुष्ट संहारिले मागें/ असे ऐकतों/ परंतु रोकडें कांही/ मूळ सामर्थ्ये दाखवी ।।*

ब्राह्मणाचे निजाचे अधिकार ब्राह्मणांक परते मेळोवन दिवचे म्हूण ताणें ब्राह्मणांचो एक संघूच उबो केलो. (ताका 'जनसंघ' म्हूण नांव दिल्लें.) संघाचे वांगडी ब्राह्मणूच आसतले असो एक नेम केलो. हेर जातीच्या लोकांक संघांत घेतले जाल्यार ब्राह्मणांचेर ते शेक चलोवपाक लागतले. संघ बरगेतलो आनी मोडून पडटलो. अशें ताचें म्हण्णें आशिल्लें. हेर जातींच्या लोकांनी ब्राह्मणांचेर आपणालो शेक चलोवंक जायना. चलयता तो एक मूर्ख देवी *ब्राह्मणी सत्ता करी/ तो एक मूर्ख ।।* आनी ब्राह्मणांचो जो दुस्वाव करता तो तर सामकोच महा–मूर्ख (पढतमूर्ख) हे तो पयलीं सावन सांगीत आयिल्लो. 'मागीर, जे ब्राह्मण न्हय तांणी कितें करपाचें?' अशें कोणें विचारल्यार ताणें म्हणचें, 'तांणी ब्राह्मणांच्या पांयांचें तीर्थ घेंवचें आनी तांकां जेवण वाडचें. तांच्या पांयांचें तीर्थ घेतकूच तांचीं सगळीं पातकां देव धुवन काडटलो आनी ब्राह्मण पोटभर जेवतकूच देव संतुष्ट जातलो.'

रामदासाच्या 'जनसंघा'न कितें दिवे लायले हें मुखार येतलें. पुणून ते पयलीं ह्याच अदमासाक ताका पडिल्ल्या एका सपनाची खबर सांगूंक जाय. सपनांत ताणें पळेलें, आपूण संवसाराच्या तापत्रयांक उबगून जीव दिवपाकसो, 'आनंदवनभुवनां'त (काशीक) गेलां. थय आपणाक कितें दिश्टी पडटा? धर्मा आड आयिल्लीं सगळीं आडमेळी देव ना करपाक लागल्यात. म्लेंच्छ जातीच्या दैत्यांक (मुसलमानांक) बुडोवन मारपाची तांचो आकांताचो यत्न चल्ला. हिन्दुस्तान घटमूट जाला, बळिश्ट जाला. पातकी सगळे ना नपयत जाल्यात. तांकां ना करपाक खासा राम शस्त्र हातांत घेवन वावुरपाक लागला. पातकी औरंगजेब तर नाच्च जावन गेला. म्लेंच्छांचो सांवार जाला. तांणी तोडिल्लीं मोडिल्लीं तीर्थक्षेत्रां परतीं सुरू जाल्यांत. स्नान–संध्ये खातीर ब्राह्मणांक खूब उदक मेळपाक लागलां. जप तप अनुष्ठानां खूब चलपाक लागल्यांत. भवानी माय पयलींय भक्तीची राखण

करताली. आतांय करता. म्हूण देव आनी भक्त आतां एक जाल्यात. आनी सगळे सुखांत जियेवपाक लागल्यात.

हें सपन ताका पडलां त्या वेळार ताचो अर्थ रामदासाक कळूंक नाशिल्लो. कांय दिसांनी ताणें पळेलें, सपनांत जें आपणें पळेल्लें, तें महाराष्ट्रांत घडपाक लागलां. *देखिले जें जें स्वप्नी/ तें तें तैसेची होतसे।।* म्लेंच्छांच्या हातांत गेल्ल्या महाराष्ट्राची शिवाजी सुटका करपाक लागला. पुणेचे आशिकुशीचो वाटार तर ताणें म्लेच्छांच्या शेकांतल्यान सोडयल्लोच. दक्षिणेतल्या म्लेंच्छ सुलतानांकूय ताणें नाका-पुरो करून सोडिल्ले. इतलेंच न्हय, दिल्लींतले मोगल सम्राट औरंगजेबांचें तख्तूय सकल-वयर करून हालयल्लें. शिवाजीचें हें कर्तुत्व पळोवन रामदास सुमारा भायर खुशाल भरीत जाला. ताची मेकळ्या ताळ्यान तुस्त-तोखणाय करून ताका ताणें एक चीट बरयल्या,

*तूं निश्चयाचा महामेरू/ बहुत जनांसी आधारू/ अखंड स्थितीचा निर्धारु/ श्रीमंत योगी।।१।। परोपकाराचिया राशी/ अखंड घडती जयासी/ तयाचे गुण महत्वासी/ तुळणा कैची।।२।। नरपति हयपति गजपति/ गडपति भूपति/ जळपति/ पुरंदर आणि छत्रपति/ शक्ति पृष्ठभागीं।।३।। यशवंत कीर्तिवंत सामर्थ्यवंत वरदवंत/ पृज्यवंत नीतिवंत/ जाणता राजा।।४।। धीर उदार गंभीर/ शूर क्रियेसी तत्पर/ सावधपणे नृपवर/ तुछ केले।।५।। तीर्थक्षेत्रे मोडिली/ ब्राह्मण स्थाने भ्रष्ट जाली/ सकळ पृथ्वी आंदोळली/ धर्म गेला।।६।। देवधर्म गो ब्राह्मण/ करावया संरक्षण/ हृदयस्थ जाण नारायण/ प्रेरणा केली।।७।। या भूमंडळाचे ठायी/ धर्म रक्षी ऐसा नाही/ महाराष्ट्र धर्म राहिला कांही/ तुम्हां करता।।८।। कित्येक दुष्ट संहारिले/ कित्येकांस धाक सुटले/ कित्येकांस आश्रय जाले/ शिव कल्याण राजा।।९।।* ***तुमचे देशीं वास्तव्य केले/ परंतु वर्तमान नाहीं घेतले/ ऋणानुबंध विस्मरण जालें/ काय नेणू।।१०।।*** *सर्वत्र मंडळी धर्म मूर्ति/ सांगणे काय तुम्हां प्रति/ धर्मसंस्थापनेची कीर्ति/ संभाळली पाहिजे।।११।। उदंड राजकारण तरले/ तेणे चित्त विभागिले/ प्रसंग नसतां लिहिले/ क्षमा केली पाहिजे।।१२।।* **(समर्थ ग्रंथ भांडार, उत्तरार्ध ४१४)**

रामदासाचे चिटींतल्यो दोन वळी मुजरत बोल्ड टायपांत दिल्यात. रामदास शिवाजीचो गुरु आशिल्लो असो एक समज रामदासाच्या भक्तांनी पातळायला तो खरो न्हय हें दाखोवन दिवपाखातीर. आपूण तुज्या राज्यांत रावलों खरो; पुणून तुजी वासपूस केन्ना घेवंक पावलों ना, चत्राय कशी उरली ना, आपणाकूच कळना, अशें खासा तोच सांगता. मागीर तो शिवाजीचो गुरू आशिल्लो अशें कशें म्हणूं येता? एक खरें, रामदासाची चीट हातांत पडनाफुडें शिवाजी ताका मेळपाक आयला आनी ताचो आशीर्वाद घेवन गेला. सत्पुरसांक मेळप आनी तांचे आशीर्वाद घेवप ही शिवाजीची सदची चालूच आशिल्ली. रामदासाचे भेटेक तो आयला ताचे पयली तरणेपणांत तो कितलेशेच खेपे तुकारामाचीं किर्तना आयकुपाक गेला. आतांय केजळच्या केवल भारतीची, जालानाच्या तान पाठकाची, पाटगांवच्या मौनी बुवाची कितल्याश्या सत्पुरुषांची भेट घेवंक तो नेमान गेला. कांय जाणा कडल्यान तर ताणें मंत्रूय घेतल्यात. म्हूण कितें, ते शिवाजीचे गुरु थरतात? रामदास शिवाजीचो गुरू आशिल्लो म्हणटात ताका इतिहासाचो आधार ना, आनी पराक्रमाची शिकवण ताका रामदासाकडल्यान मेळिल्ली म्हणटात ताकाय कसलोच आधार ना. अशें म्हणपी जाणकार महाराष्ट्रांत आसात.

मागीर, शिवाजीक पराक्रमाची प्रेरणा कोणा कडल्यान मेळ्ळ्या जातली? ताचे आवय कडल्यान. जीजाबाय कडल्यान. शिवाजीचो जल्म जाला ताच्या दोन तीन वर्सां भितरूच तिगेल्या कुळारच्या सगळ्यांक बापूय लखूजी जाधव, भाव व्यंकोजी आनी रघूजी, भावाचो पूत यशवंतराव - हांकां निजामशाहान दौलताबादच्या किल्ल्यांत व्हरून कपट करून मारून उडयले. जीजाबाय तिडकीन पेटिल्ली वागीण कशी उसळल्ली. हांचो सगळ्यांचो सांवार जावंकूच जाय हे सस्कार तिणें शिवाजीचेर घालपाचे खूब यत्न केल्यात. शिवाजीची वाडूच तिगेल्या संस्कारांत जाल्या. शहाजी (बापूय) ताका आपणासरी विजापुराक व्हरूंक सोदतालो. 'ना, ताका हांव विजापूरच्या गुलामी वातावरणाचो वास लेगीत लागूंक

दिवपाची ना.' अशें म्हणून ताका आपणासरींच दवरला. इतली तिणें शिवाजीच्या संस्कारांची जतनाय घेतल्या. स्वातंत्र्यांची ज्योत शिवाजीच्या काळजांत पेटयल्या ती जीजाबायन, रामदासान न्हय.

रामदासाक शिवाजीचें म्हत्व कळ्ळां तें तागेल्या राज्यारोहणा उपरांत, पुणे मुसलमानांच्या शेकांतल्यान मुक्त केलां तेन्ना. लक्षांत दवरपासारकी गजाल म्हळ्यार, शिवाजीच्या राज्यारोहणाच्या सुवाळ्याक रामदास हाजीर रावंक ना. पुण्यांतलो एकूय ब्राह्मण ताचो राज्यभिषेक करपाक तयार जावंक ना. म्हूण राज्यभिषेका खातीर शिवाजीच्या भक्तांक काशीक साकून घागा भट्टाक आपोवन हाडचो पडला. ताणें शिवाजीचो राज्यभिषेक केला. त्या वेळार पुण्यांतल्या ब्राह्मणांनी 'तू क्षत्रीय न्हय, शूद्र तूं' म्हूण शिवाजीक हिणसावपाचोय यत्न केला. आनी ह्या वादकगणांत खासा शिवाजीच्या सोयऱ्यांनीय आपणालो सूर मेळयला. *निश्चयाचा महामेरू। बहुत जनांसी आधारु। अखंड स्थितीचा निर्धारु। श्रीमंत योगी।।* ही रामदासान केल्ली शिवाजीची तुस्त हे घडणुके उपरांतची. शिवाजीच्या मरणा उपरांत 'दुर्जनांक ना करपा खातीर' संभाजी गादयेर बसलो त्यावेळार रामदासान संभाजीक एक चीट बरोवन उपदेस केलो. *आहे तितके जतन करावें। पुढें आणिक मिळवावें। महाराष्ट्र राज्य करावें इकडे तिकडे।। लोकी हिंमत धरावी। शर्तीची तरवार करावी। चढती वाढती पदवी। पावाल तेणें।।*

*शिवरायाचें आठवावे रूप। शिवरायाचा आठवावा प्रताप। शिवरायाचा आठवावा साक्षेप। भूमंडळी।।* हो उपदेश संभाजीन शिवाजीचोच वावर मुखार व्हरचो ह्या उद्देशान केल्लो. एके तरेची शिटकावणी आशिल्ली ही ताची, संभाजीक.

पुणून ब्राह्मण बेरकी आनी महाराष्ट्रांतले तर पाताळयंत्रीय (जशी तांची नामनां आसा) शिवाजी उपरांत ताचे गादयेर बसपाचो हक्क कायद्यान संभाजीचोच आशिल्लो. तरूय ताका नखलामी करपाक दोन महाराष्ट्रीय ब्राह्मण मुखार सरले. अण्णाजी दत्तो एक आनी मोरोपंत पिंगळे दुसरो. तांकां शिवाजीच्या दरबारांतले आनीक कांय ब्राह्मण येवन मेळ्ळे. तांणी तरांतरांचीं षड्यंत्रां करुन धा वर्सांचे

पिरायेच्या राजारामाक गादयेर बसयलो आनी सत्या आपल्या हातांत घेतली. संभाजी थोडो ओगी बसतलो आशिल्लो! ताणें अण्णाजी दत्तो आनी मोरोपंत पिंगळे दोगांकूय कडेक सारून हक्काची गादी घेतली ती घेतलीच. एकूच चूक केली. दोगांकूय क्षमा केली. क्षमा केली म्हूण दंशी लोकांचो दंश केन्ना ना जाला व्हय? अण्णाजीन मुसलमानांक खुबळावन संभाजीक मारपाचो यत्न केला. संभाजीक ताची सुलूस मात लागल्या ताणें अण्णाजीक हतयाच्या पांयां पोंदा चिड्डून मारून उडयलो.

थोड्याच वर्सां भितर महाराष्ट्रांत मराठे नांवा पुरते राजा उरले. सत्ता ब्राह्मणांच्या हातांत गेली. पेशवाई सुरू जाली. शिवाजीची 'हिन्दुपदपादशाही' बदला 'ब्राह्मणपदपादशाही' चलपाक लागली.

रामदासाक अशें जाल्लें जाय आशिल्लें काय कितें, सारकें सांगूंक येवपाचें ना. रामदासासारखो वादग्रस्त संत महाराष्ट्रांत दुसरो जावंक ना. आयज देशांत संघपरिवाराचो जो ब्राह्मणी हिन्दुत्ववाद वयर सल्ला ताचो जनक समर्थ रामदास आशिल्लो असोच निर्वाळो इतिहास दिता.

(८)

**बा**टाबाटीचे मुस्तींत गोंयकारांक मराठी संतांनी धीर आनी आधार दिल्लो म्हणपाचें कितलींशीं वर्सां आयकत आयिल्लों. कसलो धीर आनी आधार आशिल्लो हो, हें जाणा जावन घेवपाची इत्सा जावंक नाशिल्ली. हालींच ती जाली. तेन्ना कांय पुस्तकां एकठांय केलीं. आनी तीं वाचपाक बसलों. सुमार देड म्हयनो एका-चित्तान तीं वाचले उपरांत 'हांवें भक्तिकाव्याच्या एका म्हालसागरांत उडी घेतल्या - खंय साकून खंय वचचें तें सारकें होलमना, फकत हात पांय बडयत रावलां' अशेंशें कितें दिसपाक लागलें. आनी, असल्या अभ्यासांत 'वाट दाखोवपी' कोणूय तरी सांगाताक घेवंक जाय म्हणपाची खोलायेन जाणवीक जाली. गोंयांत असलो 'वाट दाखोवपी' कोण मेळ्ळोना. ते भायर, भक्तिकाव्य

हो अभ्यासाचो एक खेरीत विशय - खूब व्हडलो. फकत मराठी संतांच्या काव्याच्या अभ्यासान तो पुरो जावपाचो न्हय. हेर देशीं भासांतल्या संतांच्या काव्याच्या सांगातान तो करूंक जाय, ना जाल्यार तो एकांगी आनी अर्दकुटोच उरतलो - आठ धा वर्सां तरी ह्या अभ्यासाक दिवंची पडटलीं, अशें दिसलें. आयुष्याचे म्हजे बँक बॅलँसींत इतलीं वर्सां उरल्यांत जातलीं हाचें खरेपण ना. तेन्ना ह्याच आयुष्यांत उरिल्ल्या वर्सांनी करूंक येत इतलोच अभ्यास करचो अशें थारायलें आनी अभ्यासाची मोखूय मर्यादेंत दवरली. 'बाटाबाटीचे मुस्तींत गोंयकारांक मराठी संतांनी धीर आनी आधार दिल्लो.' म्हणटात तो कसलो इतलेंच जाणा जावन घेवपाची. म्हळ्यार, संतांचो सामाजीक मळावयलो वावर समजून घेवपाची. ह्याय मळार वाट दाखोवपी कोण मेळपाची आस्त नाशिल्ली म्हूण पुस्तकांकूच गुरूचो अक्षरदेह मानून हांवें म्हजे तांकी प्रमाण - यथाबुद्धी यथाशक्ती - अभ्यासाक सुरवात केली. सुर्वेकूच कळ्ळें तें हें - मराठी संतांच्या सामाजीक वावराचें मोल आंखपाची शास्त्रशुद्ध 'नदर' महाराष्ट्रांतल्या अभ्यासकांक मेळ्ळ्या ती न्यायमूर्ती महादेव गोविन्द रानडे हांगेल्या 'मराठ्याच्या सत्तेचा उत्कर्ष' ह्या पुस्तकांतल्या 'महाराष्ट्रांतील साधुसंत' नांवाच्या आठव्या अध्यायांत. ही 'नदर' घेवन पयले मुखार सरले ते इतिहासाचार्य विश्वनाथ काशीनाथ राजवाडे. दोगांचींय पुस्तकां गोंयांत खंयच मेळ्ळीं नात. तेन्ना पुण्या-मुम्बयंत सोदपाक गेलों. थंयूय तीं मेळ्ळीं नात तेन्ना एका इश्टान बा. रं. सुंठणकर हांगेल्या *महाराष्ट्रीय संत-मंडळाचें ऐतिहासिक कार्य* ह्या आनी गं. बा. सरदार हांगेल्या *संत साहित्याची सामाजिक फलश्रुती* ह्या पुस्तकांची - ह्या विशयांवेलीं 'अधिकृत' पुस्तकां म्हूण - शिफारस केली. दोनूय पुस्तकां घेवन बसलों, कितलींशीं पारायणां केलीं. तरूय म्हजे विचार स्पश्ट जावंक पावले नात. तेन्ना अवचीत डॉ. विष्णु भिकाजी कोलते हांगेलें 'मराठी संतों का सामाजिक कार्य' नांवाचें हिन्दी पुस्तक हातांत आयलें (म्हजेच आरमारींत आशिल्लें) हांवें एका काळार वाचिल्लें. पुणून वाचिल्लें तें सगळें विसरून गेल्लों फकत संस्कर उरिल्ले आनी म्हाका जें हय-न्हय-शें दिसतालें पुणून स्पश्ट सांगूंक येनाशिल्लें तें स्पश्ट बरें सांगिल्लें तातूंत आतां मेळ्ळें. हेंच पुस्तक मॉडेल म्हूण मुखार दवरून हो सोद-निबंध बरोवपाक हांवें सुरवात केली.

(अभ्यास करपाची बऱ्यांतली बरी रीत ही) आधाराक सुंठणकर आनी सरदार हांकांय घेतले. १९५१त काशी विद्यापिठाच्या 'बनारस सोशियॉलॉजिकल सोसायटींत' दिल्लीं कोलत्यांचीं पांच व्याख्यानां हीं. तीं आयकुपाक आयिल्ल्यां मजगती डॉ. हजारीप्रसाद द्विवेदी आनी डॉ. वासुदेव शरण अग्रवाल हांचे सारकेले हिन्दी संवसारांतले अग्रगण्य विद्वान आशिल्ले आनी पांचूय दीस नेमान ते येत रावेिल्ले. इतलें म्हत्वाचें हें पुस्तक. पुणून ताचो उल्लेख म्हज्या हातांत पडिल्ल्या एकाय मराठी पुस्तकांत ना हें पळोवन अजाप जालें.

महानुभाव पंथाचो चक्रधर स्वामी, वारकरी पंथाचे ज्ञानेश्वर, नामदेव, एकनाथ, तुकाराम आनी 'धारकरी' पंथाचो रामदास हे स प्रतिनिधीक संत ह्या सोद-निबंधा खातीर वेंचून काडले. तीन खेरीत पंथांचे संत हे. पुणून एकेच वैष्णव परंपरेंतले. 'राम कृष्ण हरि' ह्या मंत्रजपांत आसपावन घेतिल्ले. हांचे मदलो चक्रधर सोडीत जाल्यार उरिल्ले पांचूय महाराष्ट्रांत मुसलमानांचीं धुमशेणां चलूंक लागल्यांत त्या काळांतले. म्हाका सगळ्यांत पयलो प्रस्न पडलो तो हो - पांचां मदलो एकलोय हीं धुमशेणां आळाबंदा हाडूंक कसो पावलो ना? ज्ञानेश्वराक, म्हणुंया, हीं धुमशेणां बादलीं नात. कित्याक, तीं सुरू जाल्यांत ते पयलींच ताणें समाधी घेतल्या. समाधी घेवंक नाशिल्ली जाल्यारूय तो हीं धुमशेणां आळाबंदा हाडपा खातीर कसलोय उपाय सोदून काडीत आशिल्लो? 'हय' म्हणपाचो धीर जालोना. कित्याक, नामदेवाक घेवन तो उत्तर हिन्दुस्तानांतले यात्रेक गेल्लो त्या वेळार मुसलमानांच्या धुमशेणांनी थंयच्या हिन्दूंचेर केदी हावळ हाडल्या ती ताणें खासा आपणाल्या दोळ्यांनी पळेल्ली. तरूय ताणें आपणाक ताचें कांयच लावन घेवंक ना. ही हावळ आयज न्हय जाल्यार फाल्यां महाराष्ट्राचेर येवं येता म्हूण लोकांक शिटकावपाचें सादें कामूय ताणें करूंक ना. कुरुक्षेत्राच्या झुजामळार 'एक तर जिखतलों वा झुजामळारूच कूड सोडटलों' ह्या नित्शयान देंविल्ल्या अर्जुनाक ऐन त्या खिणाक गळसणिल्लो पळोवन 'शी, तुका सोबना हें दुबळेपण, फांफूड तें आनी ऊठ पळोवया झुजपाक' अशें सांगून झुजपाक मुखार काडिल्ले गीतेची

मराठींत आगळी वेगळी एक अर्थावणी बरोवपी संत हो. तो लोकांक मुसलमानी धुमशेणां आड जागोवपाचें लेगीत काम करिना. सादी शिटकावणी लेगीत दिना हें पळोवन सगळ्यांत व्हडलो धसको बसलो. ताच्यांत, म्हणुंया, तेजिश्टपण नाशिल्लें. तुकारामांतूय तें नाशिल्लें अशें कशें म्हणूं येतलें? ताचे वाणींतल्यान स्फूर्त घेवपा खातीर तर खासा शिवाजी ताचीं किर्तनां आयकुपाक येतालो. पुणून 'आम्ही विठ्ठलाचे वीर फोडूं कलिकाळाचे शिर' अशें म्हणपी हो संत लोकांक *तुका म्हणे तोचि संत/सोशी जगाचे आघात* हेच तरेची शिकवण आयुष्यभर दीत रावला. रामदास? 'राष्ट्रवादाचो प्रखर प्रवक्तो' म्हूण नामना जोडिल्लो. *आधीं गाजवावे तडाके/मग भूमंडळ धाके* हे तरेची घुर्कणी घालपी संत म्हूण ताका लोक मानतात. पुणून खासा ताणें एकूय तडाको गाजयल्लो पळोवंक मेळ्ळोना. शिवाजीन गाजयल्यात ते ताच्या नांवार तागेल्या शिष्यांनी जमा केल्यात. म्हूण ते ताचे जायनात. हेर सगळे संत विठ्ठल विठ्ठल करून धेयभान विसरून फकत नाचल्यात. टाळ कुटयणी सोडून दुसरें कांयच करूंक पावूंक नात. **जे संत महाराष्ट्रांतलीं मुसलमानी धुमशेणां आळाबंदा हाडूंक पावले नात, ह्या धुमशेणांक लागून जाल्ली मराठी समाजाची पराकाश्टेची अवनत आडावंक पावले नात ते फिरंग्यांचे भकीक पडिल्ल्या गोंयकारांक कसलो धीर आनी आधार दितले आशिल्ले? फिरंग्यांच्यो आगळीको मुसलमानी आगळीकां परस लाख पटीनी अदीक निष्ठूर आशिल्ल्यो.**

बाटाबाटीच्या कठीण प्रसंगार गोंयकारांक धीर आनी आधार दिवपाक एकूय मराठी संत पावलो ना तो पावलोच ना. **महाराष्ट्राक स्वराज्य जोडून दिवपी छत्रपती शिवाजीय पावूंक ना म्हणपाचो सोद लागलो.** संत, म्हणुया, बेंतेकाप जाल्ले. शिवाजी? सपनांत लेगीत तो दिश्टी पडल्यार औरंगजेब कच्च करून आंग काडून जागो जातालो म्हणटात. फिरंगीय ताका भियेताले म्हणटात. **येद्या वीर आनी शूर शिवाजीन** फिरंग्यां कडेन आशिल्लो दारुगुळो औरंगजेबा आड झुजपाक आपणांक मेळचो म्हूण १६६७ वर्सा आपूण गोंयचेर घुरी घालचो ना अशें उतर दिवन विजरै कोंन्दि द सां व्हिसेन्ति कडेन 'कबलात' केल्ली आनी **आमकां फिरंगी कोल सुण्यांच्या तोंडांत धुकलून उडयल्यात!** बाटाबाटीच्या

कठीण प्रसंगार आमकां पावला तो आमचो भिजूड सभाव. आमी एक तर बाटून आपणालो जीव वाटायला वा जीव मुठींत धरून गोंयच्यान कर्णाटक केरळा मेरेन देवाक घेवन पळ काडला. हें कोडू सत्य होलमलां तेन्ना मराठी संतां वेल्या आनी शिवाजी वेल्या म्हज्या भावार्ताक वेर गेल्या आनी **गोंयकार मराठी संतांकूय कांय देणे नात तशे शिवाजीकूय कांय देणे नात** ह्या निर्णयार हांव पावलां.

मराठी संत म्हणिना फुडें दोळ्यां मुखार उबे रावतात ते वारकरी पंथांतले संत. चड करून ज्ञानदेव, नामदेव, एकनाथ आनी तुकाराम. 'निवृत्ती ज्ञानदेव सोपान मुक्ताबाई, एकनाथ नामदेव तुकाराम... तुकाराम...' ह्या संकिर्तनांत गुथून काडिल्ले. चक्रधर स्वाम्याचो आसपाव हांच्यांत जायना. ताचो संप्रदाय वेगळो आशिल्लो. तो ताणेंच सुरू केल्लो. ह्या महानुभावी संप्रदायाचे लोक गोंयांत नात. आनी महाराष्ट्रांतूय आयज चडशे दिश्टी पडनात. आसात म्हणटात. पुणून म्हाका पळोवंक मेळूंक नात. हो संप्रदाय उरला तो विश्वविद्यालयांच्या ग्रंथालयांनी. पुस्तकांच्या रुपान. कोणय 'डॉक्टरेट' करूंक येता तेन्ना ताच्या आधाराक हीं पुस्तकां पावतात. ह्या संप्रदायाचे जाणकार मात महाराष्ट्रांत आसात. कोलते तांच्यांतले एक. हांवें म्हज्या ह्या निबंधाची सुरवात चक्रधरा पसूनच केल्या. इतिहासाचे नदरेन तो पयलो मराठी संत म्हूण. कोलतेय अशें म्हणटात आनी म्हाकाय दिसता म्हूण.

कित्याक लागून चक्रधराचो संप्रदाय चलणुकेंतलो ना जालो, हें सोदपाक बसलां तेन्ना दोन जापो मेळ्ळ्यो –

एक, तो **सुधारक संत आशिल्लो** म्हूण. तो आपणांक वेदीक परंपरेंतलोच मानतालो पुणून चातुर्वर्ण्य वेवस्थे आड आशिल्लो; आफूड – भश्टा आड गेल्लो; हजार देवदेवतांचे आड आशिल्लो; वेदांचें प्रामाण्य मानी नाशिल्लो; दादल्यांक आसात तितलेय अधिकार बायलांक मेळूंक जाय अशें म्हणटालो. मराठी समाज – चड करून जांच्या चपक्यांत तो उरला त्या ब्राह्मणांचो – मुदलांतूच कर्मठ. 'सनातनी'. ताका कसलोच बदल आवडना. विसाव्या शतमानांत लेगीत ह्या समाजांत आगरकरा सारकेल्या सुधारकाची 'प्रेतयात्रा' काडल्या. विधवांचें पुनर्वसन करूंक भायर सरिल्ल्या कर्व्यांचेर ह्या समाजांतले लोक थुकल्यात.

आफूड-भश्ट ना करपाक उठला म्हूण गांधीचेर बॉम्ब शेंवटिला आनी हिन्दू मुसलमानां मजगतीं एकचार घडोवन हाडटा म्हूण ताची हत्याय केल्या. तेराव्या शतमानांत तो कितलो कर्मठ आशिल्लो जावंक जाय हाचो अदमासूच केल्लो बरो. ह्या समाजान हेमाद्री सारकेल्या एका 'व्हड' ब्राह्मणाचो आधार घेवन चक्रधराचो कांटो काडला. पुराय **समाजूच सकल वयर करून उडोवपी बुन्यादी बदल मराठी समाजाक केन्नाच पचले नात** म्हूण महानुभावी संप्रदाय चलणुकेंतल्यान ना जालो ही एक जाप आनी भौसाकूय तो पचलो ना म्हूण- ही दुसरी. आचाराचे कडक नेम ह्या संप्रदायान केल्ले करणेक लागून मनीस तरातरांच्या बांदपासांनी घुसपता म्हूण कसलीच करणी करूंक फावना; कुळधर्माच्या, जातिधर्माच्या, गांवधर्माच्या कसल्याच लागणुकांक पाळो दिवंक फावना; सगळ्यो लागणुको सोडून दिवंक जाय; मठांतूच रावंक जाय;गांवांत फकत भिक्षे खातिरूच वचूंक जाय, हेर खंयच्याच कामा खातीर वचूंक फावना; भिक्षा मेळटा ती कसलीय आसूं - बेळशेल्ली आसूं वा उश्टायल्ली आसूं - तीच खावंक जाय; रुचीन कितेंच खावंक जायना; मठांतल्यान भायर सरलो जाल्यार खंयच्याय तरी एका रूखा मुळांत बसून देवाचें स्मरण करपा खातिरूच वचूंक जाय; खंयचेच एके सुवातेची वा खंयच्याच एका रुखाची संवयूय लावन घेवंक जायना; असली साधना करूंक लावपी. **एके तरेचो सुतकी आचारधर्म चलोवपी हो संप्रदाय आशिल्लो**. तो भौसाक कसो पचतलो आशिल्लो? आपणाल्या जिवितांत खोशयेक, आनंदाक, सुखाक थोडी तरी सुवात आसूंक जाय अशें सगळे कडलो भौस मानीत आयला. तो जोडपाक तो सदां आंवडेतूय आयला. महानुभाव पंथाक हाची जाणवीक नाशिल्ली. तो खोस, आनन्द, सूख ह्यो कुडिच्यो विकृतायो अशें मानतालो आनी म्हूण कूड दण्डणावंक जाय, अशें म्हणटालो. कुडीक तो आत्म्याचो दुस्मान लेखतालो. असलो हो वैराग्यांचो धर्म सरसमान मराठी लोकांक पेललो ना. चक्रधर आसासर ताच्या चारित्र्याच्या प्रभावान तो चल्लो. ताचे उपरांत एके पिळगे मेरेन तो 'कसो बसो' चल्लो. मागीर आपशींच चलणुकेंतलो गळून पडलो.

पुणून चक्रधराची एक देख उपरांतच्या सगळ्या मराठी संतांनी मेकळ्या मनान

घेतल्या - ज्ञान तळागाळांतल्या लोकां मेरेन पावोवन तांचो संस्कृतायेचो पांवडो वयर काडचो आसत जाल्यार ते **उलयतात तेच बोली भाशेचो** आधार घेवन तें दिवंक जाय हें ताचें तत्व घेवन सगळे संत चल्ल्यात. म्हूण, मराठी संतांच्या वावराचो नियाळ करूंक बशिल्ल्यांक चक्रधराक कडेक काडुंकूच येना. चक्रधर जल्मान गुजराती. महाराष्ट्रांत येवन मराठी जावन वावुरतालो. ताका मराठी भाशेचो अभिमान आशिल्लो तसो महाराष्ट्राचोय आशिल्लो. आपणाल्या शिष्यांक ताणें 'मराठी असावें' अशी शिकवणूय दिल्ली.

**जा**णकार म्हणटात, बोली भाशेंत तळागाळांतल्या लोकांक ज्ञान दिवपाचो तागेलो आग्रो उपरांतच्या मराठी संतांनीं उखलून धरला तसो चातुर्वर्ण्य वेवस्ते आड ताणें चलयल्लो वावरूय ह्या संतांनी उखलून धरूंक जाय आशिल्लो, आनी मुखार चलोवंक जाय आशिल्लो. जाल्यार मराठी समाजाचें रुपूच मुळा सावन बदलून वतलें आशिल्लें. तांचे देखीन हेर वाटारांतले संतूय हो वावर हातांत घेतले आशिल्ले आनी वेदीक काळा सावन चलत आयिल्ली चातुर्वर्ण्य वेवस्ता सासणाची ना जावन वतली आशिल्ली.

खरेपणानशीं हो काळ संक्रमणाचो आशिल्लो. ह्या काळांत पुराय देश कूस परतूंक लागिल्लो. गुप्तांचें साम्राज्य इतिहासांत गडप जाल्लें. लोकांक एके तरेचें माणें लागिल्लें. ह्या न्हिदिल्ल्या, निश्क्रीय, गुंगेंत पडिल्ल्या समाजांत प्राण ओतपाची गरज उबी जाल्ली. सनातन वेदीक धर्म ब्राह्मण पुरयतांच्या चपक्यांत पडिल्लो. तांणी हेमाद्रीच्या *'चातुर्वर्ग चिंतामणी'*त सांगिल्ल्या ३६५ दिसांनीं करपाच्या दोन हजार उत्सव परबांच्या जाळांत पुराय वयलो वर्ग घुसपावन घेतिल्लो. सकयलो समाज वेदीक धर्मा पसून खुबूच पयस उरिल्लो. ताकाय धार्मीक भूक आशिल्ली. ती भागोवपा खातीर ताका देंवचार, म्हारू, घाडी भगत, आशे अवसर, असल्या अन्नाडी कर्मकांडांचेर निंबून रावचें पडटालें. चक्रधरा उपरांत आयिल्ल्या संतांनीं ह्याच वेळार चातुर्वर्ण्य वेवस्तेचेर घाय घालपाक सुरवात केल्ली जाल्यार ती मोडून पडपाक कळाव लागचो नाशिल्लो. अशें आसतनाय तांणी हो धपके

घालपाचो वावर केलो ना. कित्याक? तांकां हे वेवस्ते आड वचपाची गरज कित्याक भासली ना?

दोन जापो मेळ्ळ्यो -

एक - ही वेवस्ता मोडून तिचे सुवातेर दुसरी कसली वेवस्ता हाडची हें ते नकळ आशिल्ले आसूंक जाय. (आयचे सुधारक तरी खंय जाणात?) समाजांत लोकांचे हक आनी तांच्यो लागणुको हांची संतुळा सांबाळपी एक वेवस्ता आसुंकूच जाय, ज्या अर्थान आपणा कडेन दुसरी वैकल्पीक वेवस्ता ना त्या अर्थान आसा तेच वेवस्तेंतलीं कुसकीं नश्टां पाडीं आंगां कातरून तींच निवळावंक येता जाल्यार पळोवया अशें तांकां दिशिल्लें आसूंक जाय.

दुसरो - वारकरी संत मदल्या वर्गांतले आशिल्ले. वयलेय नाशिल्ले, सकयल्याय वर्गांतले नाशिल्ले. कश्ट करून पोट भरपी श्रमजीवी मदल्यांतलेच आशिल्ले. मेस्त, धवड, कुंभार, मडवळ, कोळी, माळी, गुरव, खारवी, तेली असल्या कितल्याश्या जातींतले आशिल्ले. हांचे सगळ्यांचे आपापले वेवसाय आशिल्ले. आनी ते सगळे 'स्वतंत्र' आशिल्ले. म्हळ्यार, जण एकल्याचे हे खेरीत धंदे आशिल्ले. तांकां कोण लुची नाशिल्लो. तांचें कोण शोषण करी नाशिल्लो. तांचे मदीं सर्त-स्पर्धाय चलऽ नाशिल्ली. चल्लीच जाल्यार ती मेस्त मेस्तां मदीं चलताली. कुंभार कुंभारां मदीं चलताली. एकेच तरेचो वेवसाय करतल्यां मदीं चलताली. ही स्पर्धा तांच्या वेवसायाक सुलाखीपण जोडून दिवपी आशिल्ली. एकामेकांचे पांय ओडी नाशिल्ली. ते भायर, सगळ्यां कडेन जमनीय आशिल्ल्यो. त्या जमनींचे खासा तेच धनी आशिल्ले. आनी खासा तेच जमीन कसताले. दुसऱ्यांचो आधार घेंवचो पडटालो तेन्ना सगळे एकामेकांच्या आधाराक वताले. धनी - कूळ हे तरेचे हे संबंद नाशिल्ले. कोणाचेंच पोट दुसरे कोणाचेर निंबून उर नाशिल्लें. समाज मात सगळो तांचेर निंबून आशिल्लो. समाजाचो हो फाटीचो कणो आशिल्लो. तांचो संबंद वयल्या पावंड्याच्या लोकां कडेनूय येतालो. तसो सकयल्या पावंड्यावेल्या लोकांकडेनूय येतालो. वारकरी संतांनीं ज्ञानेश्वर एकनाथा सारके ब्राह्मण जातीचेय लोक आपणाले वटेन ओडून घेतिल्ले तशे चोखोबा बंकोबा सारकेल्या म्हार जातीच्या लोकांकूय ओडून घेतिल्ले. चातुर्वर्ण्य वेवस्ता

तांकां हेर खंयचेय कडेन बादनाशिल्ली. बादताली ती फकत धर्माच्या मळार. ऊंच उणाकपण थंयच चलतालें. ह्या ऊंच उणाकपणाच्या अवमानांतल्यान आपणाक सोडोवन घेवपा खातीर तांणी तिसरीच एक वाट सोदून काडली - भक्तीच्या मळार सगळे सारके - ऊंच उणाक कोण ना, अशें थारावन तांणी सगळ्या जातींच्या लोकांक एकठांय हाडले. विठ्ठलाक तांणी सगळ्या जातींच्या लोकांचो देव केलो. ताची भक्ती करपाक मदीं ब्राह्मण पुरयतांच्या दलालीची गरज ना असो नित्शय केलो आनी पुरयतांक भक्तिमार्गांतले कडेकूच काडून उडयले. तुमचे यज्ञ याग तुमचेच कडेन दवरात, आमकां तांची गरज ना, अशें तांकां सांगलें. उत्सव परबो सगळ्यो कडेक उडयल्यो. आनी एके तरेन चातुर्वर्ण्याची उवेखणीच केली.

ही तांगेली 'सुधारणा' ल्हाना समानांतली म्हणूंक येना. धोंगां - पोंगांच्या तळागाळांतल्या लोकांक सोंप्या, साद्या, उजू भक्तिमार्गाची देख दिवन तांच्यो कितल्योश्यो पिसायो तांणी हुमटावन पयस केल्यात. आचार विचारांचें उजू आंग तांकां दाखोवन नीत, परोपकार, सोंशीकपण असलीं मूल्यां तांणी तांच्यात घट केल्यांत. महाराष्ट्रांतलो तळागाळांतलो लोक शिकिल्लो नासूं. संस्कारांचे नदरेन तो अन्नाडी उरूंक ना. गोंयच्या भौसाकूय ह्या योगदानाचो लाव जाला, इतलो तांचो गोंयकारांचेर जाल्लो उपकार मान्य करुंकूच जाय. तांगेले इतलेच हे उपकार स्मरपाचे. बाटाबाटीच्या काळांत तांणी गोंयकारांक धीर आनी आधार दिल्लो म्हणटात तीं तड्डकां.

(९)

**वा**रकरी संप्रदाय सुरू केलो, चलयलो, पोसवण दिवन वाडयलो तो संत नामदेवान. पुणून विट्ठल-भक्ती महाराष्ट्रांत ताणें सुरू करूंक ना. ती केल्या भक्त पुंडलीकान. नामदेवाच्या सुमार चार शतमानां आदीं.

ताची आख्यायिका अशी -

पुंडलीक नांवाचो एक ऋग्वेदी ब्राह्मण ते मुस्तींत पंढरपुराक रावतालो. विद्वान

आनी धर्माचो अभिमानी. धर्माक धरून तो आवय-बापायची मनस्पुवेक सेवाय करतालो. लग्न जालो आनी बायलेचो गुलाम जालो. ती सांगता तें खरें मानपाक लागलो. बायल सभावान कुसकी. ती दीस रात पुंडलीकाक आवय-बापायच्यो कागाळी सांगपाक लागली. पुंडलीकाचें मन विखाळ जालें. ताणें आवय-बापायची सेवा सोडून दिली. उपरांत तांकां खेपूंक लागलो. करतां करतां तोंडक्यांनीं पेटूय घालपाक लागलो. आवय-बापूय तांच्या संवसाराक उबगलीं आनी काशीयात्रेक वचपाक भायर सरलीं. बायल म्हणपाक लागली, 'म्हाकाय काशी यात्रा करपाची आसा', ना कितें म्हणटलो? 'वच' म्हणचे बदला ताणें 'या' म्हळें. 'खंयचें हांकां आमी काशी यात्रेक वतात म्हूण सांगलें' अशें आवय-बापायक जालें. काशी थळांत पावता सर पुराय वाटेंत आवय-बापायक खेपप, केन्ना केन्ना पेटप चलत रावलें. अखेरेक, काशी थळांत पावलीं. थंय कुक्कूट ऋषिच्या आश्रमांत चवगांय रावलीं. ऋषीन आवय-बापायचे आनी पुता-सुनेचे संबंद पळेले आनी पुंडलीकाक उपदेस केलो, 'इश्वर आमकां दिश्टी पडना. तरूय आमकां तो आवय-बापायच्या रूपान *मेळटा....* आवय-बापायक देव मानून तांची सेवा करप हाचे परस व्हड 'धर्म' ना.' पुंडलीकाचे दोळे उक्ते जाले आनी तो पर्थून मनस्पुर्वेक वरांचीं वरां आवय-बापायची सेवा करपाक लागलो.

हे वटेन राधेचे आनी कृष्णाचे चाळे पळोवन रुक्मिणी उबगली आनी कृष्णाक सोडून गेली. चलत-चलत दिंडीर वनांत पावली आनी थंयच रावली. कृष्ण भानार येवन तिका सोदीत दिंडीर वनांत आयलो. रुक्मिणीक मनयतलो अशें थारावन. थंय ताणें पुंडलीकाची नामना आयकली. ह्या पितृ-भक्त-मातृभक्ताक मेळुंकूच जाय अशें ताका दिसलें आनी तो पंढरपुराक आयलो. पुंडलीक आवय-बापायचे सेवेंत गुल्ल आशिल्लो. प्रत्यक्ष श्रीकृष्णांक आयिल्लो पळोवन घुटमळ्यांत पडलो. रोखडोच भानार आयलो. ताणें कृष्णाक म्हळें, व्हडलें भाग्य म्हजें-तुजें दर्शन म्हाका घडलें. पुणून भगवंता, कितें करूं, आवय-बापायची सेवा अजून सोपूंक ना. आनी म्हऱ्यांत आशिल्ली एक वीट कृष्णाचे दिकेन मोखून म्हळें, 'ते मेरेन हिचेर बस वा उबो राव. मागीर तुजे सरबरायेक येतां.' कांय वेळान पुंडलीकाची

सेवा सोंपली. तेन्ना तो कृष्णाक येवन पांयां पडलो. तागेली मातृ-पितृ भक्ती पळोवन कृष्णान म्हळें, 'वर माग.' पुंडलीकान म्हळें, 'तुज्या दर्शनाक हजारांनीं लोक हांगा येत रावचे म्हूण तूं आतां सदांकाळा खातीर हांगाच राव.' कृष्णान खोश्शी जावन 'तशें जांव' म्हळें. आनी थंयच विटेर उबो रावलो.

विटेर उबो म्हूण विट्ठल. विट्ठलाचेंच उपरांत विठोबा जालां. पंढरपुराक आसा तो श्रीकृष्ण. म्हऱ्यांत रुक्मिणी. विठ्ठल रखुमाई हें कृष्ण रुक्मिणीचें मराठी रूप. तेन्ना सावन महाराष्ट्राचें हें दैवत जालां. विठ्ठल रखुमाईचें देऊळ ना असो एक्क गांव अखव्या महाराष्ट्रांत मेळचो ना.

कांय मराठी इतिहास संशोधक म्हणटात, पंढरपुराक आसा ती मुर्ती बुध्दाची. कृष्णाची न्हय. कितें म्हणचें हांकां तेंच समजना. ह्या संशोधकाची बुध्दी आकांताची कल्पक. Gramatica Da Lingua Canarina म्हळ्यार 'किनाऱ्यावरील भाषेचे व्याकरण' म्हणपा येदी धाडसी भरारी मारल्या तिणें. मागीर, विठ्ठलाक बुध्द म्हळो जाल्यार अजाप कित्याक जावंक जाय? सभाग्यांनो, दक्षिणेक बुध्दमत पावलां. खासा बुध्द केन्ना पावूंक ना. दुसरें, बुध्द केन्ना उबो रावन कमरार हात दवरून उपदेस करी नाशिल्लो. ध्यानस्थ योग्यां भाशेन आसन मांडी घालून बसतालो आनी करतालो. आनी तिसरें-म्हत्वाचें. बुध्दाचे बगलेक कोण रुक्मिणी बिक्मिणी नासताली.

दुसरे कांय संशोधक जमनीर पांय दवरून चलतात खरे पुणून केन्ना केन्ना वाट चुकतात. विठ्ठल कर्णाटकांतल्यान आयिल्लो म्हूण ताका हे विठ्ठल 'कानडा' म्हणटात. भक्ति - परंपरा जल्माकूच आयल्या दक्षिणेक. तमिळनाडच्या अळवार आनी नयनारानी ती सुरू केल्या, चलयल्या आनी वाडयल्या. ती मागीर पुराय देशांत पातळ्ळ्या. कृष्ण आनी रुक्मिणी दिंडीर वनांतल्यान पंढरपुराक आयिल्लीं हें खरें. दिंडीर वन कर्णाटकांत आसूं येता. हे खातीर ताका 'कानडा' म्हणप कितलें शें समा म्हणूं येता? विठ्ठल हो कृष्णूच. कृष्णाचें अपुर्बायेचें नांव 'कान्हा'. गुजरात, सौराष्ट्र, राजस्थानांत 'कान्हा' क कानुडो म्हूण पाचारपाची चाल आसा. विठ्ठल ते खातीर 'कानुडो' जाल्लो आसूं येता, इतलो सादो दुबाव

लेगीत ह्या संशोधकांक येंवचो न्हय? पुणून -

संशोधकांच्या तर्कटांच्या जाळांत कितले म्हूण आमी आमकां घुसपावन दवरतले? तातुंतल्यान आमकां सोडोवन आमी वारकऱ्यांचे शिकवणेचो मात्सो नियाळ घेवंया. वारकरी संप्रदायाच्या एकान एक संतान लोकांक नितीचो बोध दिला ताणें तळागळांतल्या लोकांचें लेगीत जिवीत संस्कारी केलां, हातूंत दुबावूच ना. अध्यात्माविशींचो बोध तांकां कितलो सो पचला, सांगूंक येना. थोडो भोव पचला जातलो. पुणून - हो 'पुणून' खूब म्हत्वाचो.

वखदां सगळीं बरीं. पुणून ह्या बऱ्या वखदांचो लेगीत लोकांक Overdose मेळ्ळो जाल्यार ताचे जे side effects जातात ते खूब फावटीं जिवघेणे जावन पडटात. भक्तींत नामस्मरणाक खूब म्हत्व आसा. वारकऱ्यांनी नास्मरणाचें रुपांतर 'नामजपां'त केलें. 'विठ्ठल विठ्ठल' ह्या उदघोशाचो इतलो अतिरेक केलो कीं मोक्षा खातीर कितेंच करपाची गरज ना - फकत विठ्ठल विठ्ठल उद्घोश करीत रावल्यार पुरो, मोक्ष मेळटलो, असो लोकांचो समज जालो आनी लोक त्या उद्घोशांत दीस रात धूंद रावपाक लागले. परिणाम - लोक 'इहलोक पराङमुख' जाले. भोंवतणचें आपणाक कांयच लावन घेनात जाले. आपणालो मोक्ष सोडून कित्यांतूच लक्ष घालिनात जाले. ही 'इहलोक पराङमुखता' सगळ्यांत चड बादल्या छत्रपती शिवाजीक. तो मोगलांच्या शेकांतल्यान महाराष्ट्राक सोडोवन थंय, 'स्वराज्य' हाडूंक भायर सरिल्लो. पळेल्ले अंतीं ह्या वारकरी संप्रदायांत मराठ्याचें क्षात्रतेजूच ना केलां! मराठ्यांचेरूच ताची चड भिस्त आशिल्ली. ते निर्वीर्य, निस्तेज जाल्ले पळोवन तांकां 'जागोवपा' खातीर शिवाजीक पोवाडे गावपी शाहिरांची एक फौज उबी करची पडल्या. हे शाहीर गांवां गांवांनी वचून शूर लोकांचे पोवाडे गावन गावन लोकांतलें क्षात्रतेज जागोवपाचो यत्न करपाक लागल्यात. तेन्नाच ताका स्वराज्य स्थापन करूंक मेळ्ळां.

आमकांय ही नामगजराचो overdose 'जय हिन्दा'चे चळवळींत बादला. 'तुमकां कितें लागता रे हें? गोंयची सुटका भारत सरकार करतलें... तुमी बरे शिकात, बऱ्यो सरकारी नोकऱ्यो करात आनी आपलो संवसार बरो चलयात' हो

उपदेस पावला कणकणी आयकुचो पडला. हाचो परिणाम विश्वनाथ लवंद्या सारक्या एका तेजिष्ट झुजाऱ्याचेर जाला. 'हांचेर पातयेवन चलचें ना. फिरग्यांचेर दहशत बसोवंक जाय.' अशें दिसून ताणें बॉम्ब पिस्तुलांचो मार्ग धरला आनी खंयचे खंय व्हांवन गेला.

वारकऱ्यांच्या नामजपाचे धुंदींतल्यान गोंयकारांक तरी भायर काडपाची खूब गरज आसा. हे नामजपाचे धुंदींत तांकां फकत टाळकुटे करून उडयतात. ते खातीर तांचे मुखार कोणेय तरी इश्वर, आत्मो, अंतर्यामी, साक्षात्कार, भक्ती, तांतली व्याकुळता, शरणांगती बी संकल्पनां घांसून पुसून निवळ करून दवरूंक जाय. वारकऱ्यांच्या अनिष्ठ प्रभावांतल्यान तांकां मुक्त करूंकच जाय आनी टाळकुटकेपणांतल्यान सोडोवंक जाय. कोण करतलो हें युगकार्य? वाट पळयतात सगळे ताची.





## रवीन्द्र केळेकार

*'बाटाबाटीचे मुस्तींत गोंयकारांक मराठी संतांचो*
*धीर आनी आधार मेळील्लो म्हणटात.*
*तो कसलो हें सोदपाक बसलों....*
*स प्रतिनिधीक संतांचो वावर नियाळून पळेलो...*
*स वूय संत महाराष्ट्रांत मुसलमानी धुमशेणां चलल्यांत ते मुस्तींतले.*
*जे संत हीं धुमशेणां आळाबंदाक हाडूंक पावले नात ...... मराठी समाजाची जाल्ली पराकाष्टेची*
*अवनत आडावंक पावले नात ते फिरंग्याचे भकीक पडिल्ल्या गोंयकारांक कसलो धीर*
*आनी आधार दितले आशिल्ले....?*
*धीर आनी आधार मेळ्ळा म्हूण इतली वर्सां आयकत आयले तीं तड्डकां'*

फकत रवीन्द्र बाबांकूच हें परखड सत्य सांगपाचो धीर जाला.
वाचप्यांची न्हीद खळ्ळोवपी एक सोद निबंद हो.